जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४७ : आंक ७ : मार्च २०२१

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



**भायले चित्र :** निरुपा नायक

**भितल्ली चित्रां :** भरत जगताप, निशीत बोरकार

संपादकीय

# संवसारीक बायलां दिसा निमतान...



आठ मार्च हो संवसारीक बायलांचो दीस म्हण मनयतात. त्या निमतान 'जागा'चो हो मार्च म्हयन्याचो आंक बायलांच्या साहित्याक ओंपचो अशें आमी थारायलें. ह्या वर्सा गोंय आपल्या सुटकेचें साठावें वर्स मनयता आनी बायलांच्या कोंकणी साहित्याकय खरेपणी फुलोर आयलो तो गोंय सुटके उप्रांतच! त्या पयलीं बायलांनीं कोंकणी साहित्य रचूंक नाशिल्लें अशें न्हय, पूण गोंय सुटके उपरांत ताका एक दीका मेळ्ळी.

गोंय सुटके उप्रांत कोंकणी-मराठी वादाक तोंड फुटलें, कोंकणी ही भासच न्हय असो प्रचार जावंक लागलो, तेन्ना बायलांनीय दादल्यांच्या इतल्याच ताकदीचें कोंकणींत साहित्य रचलें. हाची खणखणीत गवाय म्हळ्यार स. विजयाबाय सरमळकार. विजयाबायच्या रुपान एक बायलमनीस पयलेच फावटीं कोंकणी साहित्याच्या माचयेर चडली. आपल्या कवितांनी कोंकणी माची गाजयली आनी तांच्याच पावलार पावल दवरुन आयच्यो नामनेच्यो कवियत्री फुडें सल्ल्यो.

१९८१ वर्सा साहित्य अकादेमीन बाकीबाब बोरकारांच्या संपादनाखाला जो कोंकणी काव्यसंग्रह उजवाडाक हाडलो तातूंत आमकां फकत तीन कवियत्री मेळटात. पयली जावन आसा विजयाबाय सरमळकार, दुसरी विमल प्रभुदेसाय आनी तिसरी माधवी सरदेसाय.

मागीर लोकवेदाच्या मळार स. कमलादेवी राव देशपांडे हांणी ल्हान भुरग्यांखातीर सोंपेभाशेन काणयो बरयल्यो. तांचो 'खळार- मळार' हो आकाशवाणीवयलो कार्यक्रम आयकून कोंकणीची फुडली पिळगी घडली.

उपरांत बायलांनीं साहित्याच्यो वेगळ्यो-वेगळ्यो पती केळयल्यो. तांणी कोंकणी कथेक एक वेगळो आयाम दिलो. शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार आनी जयमाला दणायत ह्यो सुटके उप्रांतच्यो पयल्यो बायल कथाकार म्हण उदेवाक आयल्यो. १९८५ वर्सा चंद्रकांतबाब केणी हांच्या संपादना खाला जो कोंकणी कथा संग्रह साहित्य अकादेमीन उजवाडाक हाडलो तांतूत फकत ह्या तिगांच्याच कथांचो आसपाव आसा. उपरांत हांच्याच पावलार पावल दवरुन हेमा नायक, माया खरंगटे, ज्योती कुंकळकार, जयंती नायक आदीनीं कथाकार म्हण नामना जोडली.

हेमा नायक हांच्या 'भोंगदंड' ह्या कांदबरीक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो आनी बायलांनी कादंबरीच्या मळारय खडेगांठ पावल दवरलें. मीना काकोडकार, ज्योती कुंकळकार, माया खरंगटे हाणीं कादंबऱ्यो बरोवन ह्या मळार बायलोय फाटीं नांत म्हण दाखोवन दिलें.

डॉ. जयंती नायक हाणी लोकवेदाच्या मळार भरीव अशें काम करता आसतनाच गोंय विद्यापिठाची कोंकणींतली पयली डॉक्टरेट पदवी जोडली. आयज बायलमनीस सगळीं मळां येसस्वी तरेन हुंपत आसा आनी 'जागा'चो हो अंक हाचीच गवाय आसा.

पूण ह्या वेळार आमकां एक खंत भोगता. २०११ सावन साहित्य अकादेमीन कोंकणी खातीर 'युवा पुरस्कार' जाहीर केलो आनी आयज मेरेन (२०१९) णव युवा साहित्यीकांक हो पुरस्कार लाबला. हांतूतल्यो वट्ट ६ जाण बायल युवा साहित्यकार आसात. ह्या युवा साहित्यीकांकडल्यान कोंकणींक खूप अपेक्षा आसल्यो. पूण हांतूंतल्या हाताच्या बोटार मेजूंक येवपी युवा साहित्यीक (आतां हांतूंतले कांय जाण आयज युवा उरुंक नांत) सोडून बाकीच्यानीं आपल्या पेनांक बुकाल लायलां, आनी केन्ना तरी आपल्याक हो युवा पुरस्कार मेळिल्लो ह्याच म्हालवजाचेर ते मिरयतात. फामाद मराठी साहित्यीक डॉ. भालचंद्र नेमाडे हांणी ह्या युवा पुरस्काराचेर म्हणिल्लें कीं हो युवा पुरस्कार युवां मदलें साहित्यच मारुन उडोवपाक नां मूं? हें तांणी केल्लें भविश्य खरें जावपाच्या मार्गार आसा अशें म्हळ्यार अतिताय जांवची नां.

आयज जशे तरेन साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळटगीर कोंकणी लेखक सोंपता असो जो सर्वसादारण समज आसा तोच समज ह्या युवा पुरस्कार विजेत्याच्या बाबतींत जायत तर कोंकणीची ती खरी शोकांतीका थरतली. युवा साहित्यीकांनी हाचेर जेरुल मंथन करचें.

ह्या वेळार एक गजाल तुमकां सांगनशी दिसता. कोंकणी साहित्यीक आमकां आपूण जावन तांचे साहित्य धाडून दितात ही भोव खोशयेची गजाल. कांय वेळार 'जागा'चो जर खास विशयाचेर अंक आसलो तर आमी प्रस्थापीत साहित्यीकांकडल्यान मुजरत साहित्य मागयतात. थोडे आपल्याक वेळ नां म्हण आमकां सांगतात तर थोडे आपलें साहित्य धाडटनां आपणें वेळांत वेळ काडून हें साहित्य धाडलां अशें मुजरत बरयतात. आपणें अशें धाडिल्लें साहित्य खंयच्या दर्ज्याचें आसा हाचो तेच दुबाव उक्तायतात. हें कोंकणी भाशेक मारक थारता हाचें तांका धंगण नासता. उपकार करुन ह्या गजालीचेर विचार जांवचो.

'जाग' संशोधनाचेर आदारिल्ल्या साहित्याक सदांच प्राधान्य दिता. पूण कांय वेळार असलें साहित्य धाडपी आपणें खंय तरी वाचिल्लो पेपर वा संशोधन प्रपत्र आमकां तश्या तशें धाडून दितात. 'जागा'चे वाचक हे सगळ्या थराचे आसात. असल्या साहित्यांतली क्लिश्ट ॲकेडिमीक भास समजूंक थोड्यांक कठीण जाता. आमकां सगळ्या वाचकांक कळपाक सोंपे जातले अशे तरेचे संशोधनपर लेख, त्या तरेन संस्कार करुन धाडल्यार खूप उपकार जातले.

आमच्या उल्याक मान दिवन आमकां साहित्य धाडलें म्हण सगळ्या साहित्यीकांचे उपकार. 'जागा'च्या पानांचो आटाप मतींत घेतल्यार सगळेंच साहित्य ह्या एकाच अंकात येवप शक्य नां. हे फावटीं आसपाव जावूंक नाशिल्लें साहित्य फुडल्या आंकांनी आमी उजवाडायतले.

संवसारीक बायल दिसाचीं सगळ्यांक परबीं.





# कोंकणीचे उदरगतींत बायलेची सक्रियता

हेमा नायक

कोंकणीचे उदरगतींत बायलेची सक्रियता म्हणटाना हांव तिका उदरगतीचे वाटेंतली अव्यक्त बायल आनी पड्ड्या फाटल्यान वावुरपी एक क्रियाशील कार्यकर्ती अशेंच म्हणन. कोंकणीची चळवळ आनी उदरगत समांतर चलत आयल्या आनी बायल ही तातूंतली एक बळीश्ट शक्त थरल्या! कोंकणीचे चळ्ळवळींत बायलेचो आदीं सावन व्यक्तिगत, संघटीत तशेंच संस्थात्मक सहभाग आसा. हो सहभाग खर पोट-तिडकींतल्यान आनी कोंकणीचे निश्ठेंतल्यान आयिल्लो आसा हेंवूय तितलेंच खरें. फुडारी जें काम वांटून घालता वा तिचे कडल्यान अपेक्षीत धरतात तें ती मोन्यानी करीत आयल्या. हो सोंशीक सभाव बायलेक घरांतल्या संस्कारांतल्यान आयला अशें म्हणल्यार तें चूक थरचें ना. ह्या तिच्या मुर्वतीच्या सभावाक लागून खूब फावटीं दादल्यांच्या दडपणा खाला एखादी कलागूण संपन्न बायल आपल्या ह्या गुणां कडेन आपूणच आडनदर करता आनी समाजूय तिची व्हडलिशी कदर करिना. हाका लागून घोवा परस हुशार आसूनय एखाद्या व्हड वडा पोंडा ल्हान झाडांनी बावून वच्चें तशी गत तिची जाता आनी ज्युस्त हीच परिस्थिती कोंकणी चळवळींतले बायलेची जाल्या.

चळवळ म्हण रुपकारा येवचे आदीं खूब बायलांनी कोंकणींतल्यान नाटकांत भुमिका करून माचयेर चडपाचें धाडस केलें. तातूंतली एक धाडसी बायल म्हणल्यार विजयाबाय सरमळकार. ती माचयेर चडटा म्हण तिका तेन्ना खूब विरोध जालो पूण ती कोणाक बदली ना. कोंकणी भास रंगमंचार हाडची हो तिका ध्यास आशिल्लो. बायलांनी माचयेर चडप नासता आनी तेंवूय कोंकणींत उलोवप ना अशें तेन्ना समाज मानतालो आनी गोंयांत तर ही मर्यादा चडूच खर आसली. भायल्यान नाटकांच्यो कंपनी येताल्यो तांचीं मराठींतलीं नाटकां चलतालीं आनी तांचे प्रयोग जाताले, तिकेटी काडून पळोवपी खास रसीक प्रेक्षकूय आसताले. पूण कोंकणींतल्यान हो संस्कृतीक वावर जावपाक जाय म्हण समाजाची पर्वा करी नासताना ताठ मानेन रंगमाचयेर चडली विजयाबाय सरमळकार. पयलीं विरोध जालोच पूण तिचो अभिनय आनी कोंकणींतल्या संवादांतली जबरदस्त तांक पळोवन समाजाक तें मान्य करचें पडडलें. मागीर एकेक करून बायल अभिनयांत फुडें सरली.

शणै गोंयबाबच्या काळांतली एक गजाल शांतारामबाब वर्दे वालावलीकार समग्र शणै गोंयबाबांच्या खंडांत एकी कडेन सांगतात, आपल्या लेखनाच्या वावरांत शणै गोंयबाबांचे बायलेन (शान्ताबायन) खूब आदार केलो. आबे फारीय ह्या तांच्या अणकाराच्या पुस्तकाचे पुर्तुगेजींत बरयिल्ले प्रस्तावनेंत बाय पुर्पेरेर्सिय आफोंस दे फिगरेद म्हणटात 'नवें गोंय' नेमाळ्यान आपल्या वांट्यान जायते केळौपी मुखार हाडल्यात. तातूंत सौ. शान्ताबाय वामनबाब वर्दे वालावलीकार हांणी आपल्या घरकाराच्या पुरूशार्थाक पडसत दिवन पुर्विल्ल्या काळचे आजीबायचे चतुरायेन आमगेल्या लोकवेदांतल्यो भुलभुलावण्यो काणयो वैर काडिल्ल्यो पळौन आमकां खोसयेचें अजाप जाता. हिका तेन्ना घरगुती वखदांचें गिन्यान आशिल्लें. शणै गोंयबाबान तिचे कडल्यान ही म्हायती बरोवन घेतली आनी वखदांची सांगशी हें नांव दिवन तिच्या नांवान उजवाडायली. तशेंच तिचे गांठीक आशिल्लो लोकवेद तिका पुंजावन काडूंक लावन तोवूय उजवाडायलो. महाराष्ट्र ज्ञानकोशांत कोंकणी लेखिका म्हणून शांताबायचें नांव सांपडटा. ही आमकां सगळ्यांक भोव अभिमानाची गजाल. कोंकणींतल्यान बरोवप, माचयेर कोंकणी उलोवप हेंवूय धाडसूच आसलें. कोंकणीच्या विकासाच्या वावरांत असल्या मुळाव्या घडणुकांचो आदार जावन कोंकणीक अधिकाराची सुवात मागपाक एक वाट उकती जाली. ह्याच म्हालवजार फुडें कोंकणीच्या विकासाचे नदरेन आंखणी करपाक एक दिका मेळ्ळी.

कोंकणी राजभास चळवळ ही गोंयच्या इतिहासांतली एक न विसरपा सारकेली घडणूक. १९८४ ते १९८७ मजगतीं कोंकणी प्रजेचो आवाज संघटने खाला ५५५ दीस चलिल्ल्या आंदोलनांत गोंयच्या बायलांचो सक्रीय वांटो आसा हें विसरपाक फावना. जायते फावटीं कोंकणी राजभास चळवळीची फाटभूंय वर्णन करताना आनी गोंयची तेन्नाची राजकी आनी समाजीक परिस्थिती विस्तृतपणान मांडटना हे गजालीचेर आडनदर जाता वा ती किरकोळ अशें फुडाऱ्यांक दिसता. कोंकणीच्या वांट्याक आयिल्ल्या दर एका जैता फाटल्यान एक खर अशी चळवळ जावन गेल्या. २६ फेब्रुवारी १९७५ क कोंकणीक साहित्य अकादमीची मान्यताय हिवूय तशाच प्रयत्नांतल्यान मेळ्ळ्या. कोंकणींतल्यान साहित्य बरोवपाची वाट त्याच अदमासाक सुरू जाल्ली. बरोवपी साप उणें आशिल्ले आनी उजवाडाक हाडपी प्रकाशन संस्थाय तश्यो नाशिल्ल्यो. कोंकणीचे उदरगती खातीर कितें करपाक जाय हे संबंदी चर्चा करपाक तेन्ना वेलंगां म्हयन्यांतल्यान एक तरी शिबीर जातालें. त्या शिबीराक एक नवोदीत बरोवपी म्हण म्हजी हाजेरी आसताली. नव्या तरनाट्या चलयांनी आनी बायलांनी कोंकणीच्या व्यासपिठार येवप गरजेचें अशें सगळ्यांक दिसतालें. पूण हातांत कांयच कार्यावळ नासतना लोकांनी आपूण जावन येवचें ही तरी अपेक्षा कशी धरपाची? निर्मला सावंत, सुलोचना काटकार, आयरीन बार्रूश ह्यो बायलो मुखेलपणान आसताल्यो आनी कोंकणीचो विकास जावचो अशी तांची तळ्ळमळ आसताली. तातुंतल्यानच १९७९ तल्यान बायलां खातीर खास 'चित्रंगी' दिवाळी अंक सुरू केलो. नवोदीत कवयित्री खातीर कविता सर्त दवरली आनी तांच्यो कविता अंकांत उजवाडाक हाडल्यो.

अंकांत कथा, लेख, कविता, मुलाखती अशा साहित्याच्या विविध प्रकाराचें लिखाण उजवाडाक येवपाक लागलें. आपूणय बाकिच्या भशेन बरोवपाक शकता ही जाणीव बायलांक जाली आनी कोंकणी विशीं तांच्या मनांत उत्साह निर्माण जालो. मागीर दिसलें, फकत बरयलें म्हण जायना तर ह्या बायलांनी घरांतल्यान भायर सरपाक जाय. चार लोकां मदीं भरसुपाक जाय. आपले विचार मांडपाक जाय. कोंकणी संबंदी गोंयांत जागृताय जावपा खातीर आमचें लक्ष फकत शारां पुरतें उरून जावचें ना तर गांवांनीय पावपाक जाय. हें सगळें नदरेंत घेवन चित्रंगीचे वतीन बायलांचे खास साहित्य मेळ घेवपाचे थारायलें.

पयलो मेळ वळवय आमच्याच घराच्या आंगणांत घेतलो. चाळीशेक वर्सां फाटली गजाल ही. चडानचड चलयो आनी थळाव्यो बायलो तर पयलेच खेंप मायका मुखार उब्यो रावन उलोवपाचें वा गावपाचें धाडस करताल्यो. गांवच्या बायलांनी उमेदीन फुगडी, धालो बी घाल्यो आनी तांचे भितरली खाकुडपाची भावना पयस जाली. पयल्या मेळाच्यो सुरबूस यादी तकलेंतल्यान वचना जाल्यो. सगळ्यांक वेध लागले परतून मेळपाचे. अशे दोन तीन मेळ जातकच ज्या ज्या वाठारांतल्यान बायलो येताल्यो तांचे कडसून मागणी येवपाक लागली आपल्या वाठारांत मेळ घेवपाचो. आनी मागीर अशे तरेचे मेळ गांवा गांवांत जायत रावले, केपें, काणकोण, सत्तरी, वाळपय, मडकय, सांवड्डें, म्हापशें हांगां उत्स्फुर्तपणान मेळावे जाले. थळाव्या बायलांकूय उमेद जाल्ली.



नवोदीत चलयो कविता बरोवपाक लागिल्ल्यो. दरेकल्याच्यो चार ते पांच कविता घेवन १५ कवयित्रींच्या शंबरेक कवितांचो १९८५ त 'अप्रुप' कवितासंग्रह जेन्ना उजवाडायलो तेन्ना सगळ्यांकच अजाप जालें. ह्यो कवयित्री म्हणल्यार कोंकणींतली झगझगपी वज्रांच कशीं म्हण तोखणाय जाली. आयलीं तीच मळबांतल्या नक्षत्रांचो पुंजोच घेवन आयलीं. वसंत ऋतूंत कोगळाक कंठ फुटचो तशो ह्यो कवयित्री एका फाटोफाट काव्य रचना करीत गेल्यो. कविता, कथा, लेख, नाटकुलीं, कोंकणी साहित्याक तांणी उमाळ्याचें उत्स्फूर्त देणेंच दिलें. आमच्यांतल्या जेश्ठ कोंकणी मोग्यांनी 'फौज' म्हण ह्या एकवटाक नांव लेगीत दिल्लें. आयज हातूंतल्या जायत्या जाणांनी कवितेचो मार्ग सोडून वेगळ्या वेगळ्या मार्गाचेर आपली तांक सिद्ध केल्या आनी नांवलौकीक जोडला. पूण कोंकणीचेर पोसवल्ले बुनयादीचो धेक मात तांच्या काळजांत दीपस्तंभ जावन परजळत उरला.

आनी पळोवंक गेल्यार ही सगळी कोंकणीचेर येवपी अरिश्टांक परतुवपाची पुर्वतयारीच जाली. हें सगळें घडटना आमच्या सगळ्यां मदीं जें संघटन कौशल्य निर्माण जालें आनी वेळोवेळ तिगून उरलें त्या संघटनपणाचो प्रत्यय १९८५-८७ च्या कोंकणी राजभास आंदोलना वेळार दिसून आयलो. कोंकणी राजभास आंदोलनांत दादल्या इतल्योच बायलो सक्रीय आशिल्ल्यो. बायलांचें धाडस आनी शक्त दाखोवपाची ती परीक्षा आशिल्ली. फोन नासतना लेगीत एका उल्यान सगळीं पांखरां कशी हुडून येतालीं आनी मातूय भियेनासतना आपल्या वांट्याक आयलां तें काम कागाळ करी नासतना तोंड धापून करतालीं. चित्रंगी मेळाव्यांतल्यान तयार जाल्ले दरेके बायलेन आपापल्या वाठारांत जागृती करपाचें काम मोठे कुशळतायेन केलां. कांय कडेन तर वातावरण निर्मिती आदींच जाल्ली आसली. घरा भायर सरपाक खांकुडपी त्या बायलांचो स्वतंत्र मोर्चा आयोजीत करपा इतल्यो त्यो समर्थ जाल्ल्यो. गांवा गांवांनी घडोवन हाडिल्ले चित्रंगीचे मेळावे ह्या शक्तीप्रदर्शनाक उपकारा पडले. कोंकणीक अपशब्द उच्चारतल्यांक तेच धिटायेन जाप दिवन तांचें तोंड बंद करपी समर्थ बायल गांवांनी तयार जाल्ली.

हांव सांतिश्तेव्ह बँकेंत नोकरी करतालें. माशेलांत देंवन दुसरे बसीन सांतिश्तेव्ह वचपाचें. वाटेर पेपर घेवपाक गाड्यार रावतालें. तेन्ना कोंकणी पेपर नाशिल्लो, हांव थंय पावलें काय कुजबूज सुरू जाताली. मागीर एकलो म्हाका आयकूंक येतलें येद्यान म्हणटालो, 'ए, कोंकणी पेपर दी रे ताका.' कोंकणींत पेपर ना म्हण ही एके तरेची हिणसावणी आसली. त्या दिसांनी जें घडटालें ताका कशे तरेन तोंड दिलें तें सांगतना खूब त्रास जातात. पिकपींतल्यान लाऊडस्पीकरा वयल्यान म्हज्या नांवान पोजड्या गाळयांचो शिंवर जाला. तांकां जाप दिवापा इतली ताकद आमच्याय बायलां मदीं आशिल्ली. आमच्या शेजारच्यो बायलो म्हण वग्गी रावपी न्हय. त्यो तर तोणकेच घेवन आयल्यो आनी म्हणपाक लागल्यो, येवं दी ती पिकप परत, एकेकल्याचेर घालतां धरून तोणको. गाळी मारता? तशें ना करपाक तांकां विनयलें. सोंसलें खरें पूण बायलांची धिटाय तोखणायेची.

कोंकणी राजभास चळवळीच्या इतिहासांत बायलांचे सक्रियतायेचें दर्शन घडोवपी ह्या प्रकरणाक म्हत्व आसा. कोंकणी प्रजेचो आवाजच्या बॅनरा खाला ५५५ दीस चलिल्ले हे चळवळींत सगळ्या कोंकणी मोग्यांच्यो बायलो वांटेकार जाल्ल्यो. गरज उपरासता तेन्ना बायलांचीं शिश्टमंडळां केंद्रीय सरकारी प्रतिनिधींक मेळटालीं. निवेदनां भेटयतालीं. पणजेच्या आझाद मैदानाचेर साखळ उपास जालो तेन्ना अदी मदीं बायलो २४ वरां आलटून पालटून उपासाक बसल्यात.

मोर्चांत तर सगळ्यांत फुडें बायलो आसताल्यो. लाठीचार्ज खूब फावटीं जालो. शिस्तींत चलतल्या मोर्चांत मदींच एक फातर कोण तरी भलतोच मोखतालो आनी मागीर हे वटेन ते वटेन धांवप जातालें. लाठीचार्जाची ऑर्डर येना फुडें हातांतल्या लाठयांनी पुलीस बडयताले. आरे बाबा, तेन्ना त्यो बसताल्यो त्यो लाठयो! याद केल्यार आतां दोळ्या मुखार काळोख येता. बायलो आनी चलयो म्हण पळयनासताना पुलीसांनी बडयल्यात. मार म्हण कसलो? हात पांय फोडून काडल्यात. आमच्या सगळ्यां खातीर ही सामकीच नवीन गजाल आसली. असलो मार केन्ना कोणें घेतला? अक्षरशः धांवडायल्यात रस्त्या वयल्यान. लाठयांच्या मारान काळीं निळीं जाल्लीं बायलांचीं भुजां पांयांचेरय वळ आयिल्ले आनी कांय जाणांच्या तकल्यांचेर लेगीत धाडायिल्लें. रगतां व्हांविल्लीं. टांके पडिल्ले. बरेच दीस आंगपांग फोडटालें. दूख बेगीन निवळपाची न्हय ती. दिशिल्लें ह्यो बायलो भितल्यो आनी परत आनी मोर्चांत बी येवंच्योना. पूण ना. आसा तश्शी परत आपयता तेन्ना

हजर! जात कात आनी धर्माचो भेदभाव अजिबात नाशिल्लो. आमचे मदीं सगळ्या जातिंतल्यो, धर्मांतल्यो बायलो कोंकणीच्या ह्या वावरांत खांदाक खांदो लावन झुजताल्यो हें खूब अप्रुपायेचें.

गोंय विधानसभेच्यो आदल्यो उप-सभापती आनी आदल्यो मंत्री स. वितोरीयाबाय फेर्नांडीस म्हणल्यार कोंकणी चळवळींतलें एक निर्भीड व्यक्तिमत्व आसलें. केन्ना वादळ जावन गडगडटालें जाल्यार केन्ना वीज जावन जोगलावतालें. कोंकणी चळवळींत आमकां लाभिल्ली ती एक बळीश्ट शक्त. अन्यायाआड पेटून उठटना तिच्यांतली पोटतीडक आनी तिची तळमळ आवेशपुर्ण भाशणांतल्यान व्यक्त जाताली. लाखांनी लोकां मुखार मातूय भियेनासतना टाळो सराटून केल्ल्या तिच्या भाशणांनी आंगार कांटो हाडला. आपलें म्हणणे मांडटना वितोरीयाबायच्या आंगांत संचारतालो तो जोश आमकां बायलांक देख दिवपी थारलो. कोंकणी चळवळिची दिका थारावपाक जातालीं तीं सुरवेचीं वेलंगांचीं शिबीरां धरून ते कोंकणी राजभास जाल्या उपरांत लेगीत सतत त्यो आमचे बरोबर रावल्यात. तांचो मायेचो हात आमचे फाटीर भोंवतालो तेन्ना उमेदीन काळीज भरून येतालें. कोंकणीचे उदरगतींत तांचो भोव मोलादीक वांटो आसा ते विसरूंक जावचें ना.

गांवां गांवांनी जातल्या सभांनी बायलांच्या उत्साहपूर्ण आनी आवेशान भरिल्ल्या भाशणांनी लोकां मदीं जागृताय हाडली. कांय कडेन विरोधकांची वायट उतरां आयकुचीं पडलीं. कांय कडेन भाशणां करतल्या बायलांचेर प्रेक्षकांतल्यान तोमातां, कांदे, तांतयां लेगीत शेंवटून आयिल्लीं तांणी जिकून घेतलीं. आझाद मैदान भरून ओततल्या लोकां मुखार धाडसान उभी रावून टाळो सराटून घोशणां दिवपी आनी भाशण करपी बायलेक विसरूंक जावचें ना.

ह्या सगळ्या संकश्टांक तोंड दीत फुडें वतना ह्या बायलांक जबरदस्त धाडस आयलें. ह्या आंदोलनांतल्यान वयर सरिल्ली बायल आपल्या आयुश्यांत कसलोच निर्णय घेतना केन्ना कचरूंक नासतली. खाला पडल्यार लेगीत नव्या बळग्यानिशीं उबी रावल्या आसतली. उज्यांत फुलील्ली फुलां वोतांत केन्ना करपुचीं नात हें आमकां बेस बरें खबर आशिल्लें. जिणेंत आव्हानांच नात जाल्यार तें जगप कसलें? कोंकणीन आमकां आव्हानांक तोंड दिवपाक शिकयलें. आमकां सबळ केलीं. आनी हो बदल तसो मर्यादीत स्वरुपाचो नाशिल्लो. बदलाचें हें वारें गांवा गांवांनी पाविल्लें. मोर्चांत वांटेकार जावपाक गोंयांतल्या सगळ्या वाठारांतल्यान बसी भरून येवप्यां मदीं बायलो चड आसताल्यो हें सांगताना अभिमान भोगता.

आनी हें जैत कोंकणी मनशांच्या पदरांत पडलें. ४ फेब्रूवारी १९८७ दिसा आनी कोंकणी हीच गोंयची राजभास जावन ३० मे १९८७ दिसा गोंयाक घटकराज मेळ्ळें.

आतां कोंकणी भाशेक बरे दीस आयल्यात. तेच खातीर तर हें झूज मांडिल्लें आनी सगळ्यांच्या संघटीत वावरांतल्यान हें मेळोवन दाखयलें. पूण जैताक बापूय हजार आनी अपेस आयल्यार खापर दुसऱ्यांच्या माथ्यार थापात अशी गत जाल्या. अपेस आयलें ना पूण जैताची खोस मनयताना कोंकणीच्या फुडारी लोकांनी चळवळींतलें बायलांचें अस्तित्वूच दुर्लक्षीत करून उडयलें.

बायलांचो कोंकणी चळवळींतलो सहभाग थोडे भितर सांगतकूच तिच्या सभावाचीं कांय वैशिश्ट्यां ठळकपणान



जाणवतात तीं अशीं, बायल शक्तिमान, विचारीक, सोंशीक, चिकाटी आशिल्ली आनी निर्शेवपी न्हय, जबर ईत्साशक्त आनी मानसीक थिरतायेन बळीश्ट आशिल्ली. इतलें सगळें खबर आसतना कोंकणी चळवळींतले खंयचेच बायलेक एखादें उंचेलें पद कित्याक मेळ्ळें ना? बायलांक कोंकणीचे निर्णय प्रक्रियेंत आसपावन घेवपाक कोणाचें कितें सरतालें! अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अध्यक्षपदाचेर बायलेची नेमणूक जाली ना आनी संमेलनाच्या अध्यक्षपदार फकत दोगूच बायलांची नेमणूक जाली. गोवा कोंकणी अकादेमीचें अध्यक्षपद एखादे बायलेक दिवपाक कोणाक कसली भिरांत दिसली ना मूं! अध्यक्षपदाचे सुवातीर बायल कित्याक ना? साहित्य अकादमीच्या कोंकणी सल्लागार मंडळाची कन्वेनर जावपा इतली बायल आजून तयार जावपाची आसा जायत! अशें दिसता, कामाची वांटणी करतना चळवळींतल्या धा जाणांक जेंडर वा पिराय लागना. पूण संस्थांच्या नियुक्ती वेळार मात जात, धर्म, जेंडर आसल्यो क्रायटेरीयाय लागतात काय? शक्तिप्रदर्शना वेळार बायलो जाय. बाकी असल्यो सुवाती दिवपा वेळार बायलेचो उगडास जायना.

'गोवा कोंकणी आंदोलनात बायलांचो वांटो' ह्या माथाळ्या खाला ज्युडीथ सिक्वेरा हांणी एक दीर्घ लेख बरयला तो इकॉनोमीक एन्ड पॉलीटीकल वीकली वॉल्यूम २२, नं. ५० (डिसेंबर १२, १९८७) हातूंत उजवाडाक आयला. जांकां हातुंतलें चड जाणा जावपाक जाय तांणी तो मुजरत वाचच्यो. तातूंत त्यो म्हणटात, कोंकणी चळवळींत बायलांचो सहभाग मोलाचो आसूनय कमिटीचेर फकत दोन बायलो प्रतिनिधी आशिल्ल्यो. दादलो आनी बायल समानता मानता आसतना बायलांक निर्णय प्रक्रीयेंत आसपावन घेवपाक ही चळवळ उणी पडली. कितल्योशोच बायलो आपले आवयभाशे खातीर झुजपाक रस्त्यार देंवल्यो, मोर्चांत पुलीसांच्या लाठयांचो मार खाल्लो, सांखळ उपासाक बसल्यो.. बायलांक संद दिली जाल्यार त्यो कितें करपाक शकतात हें तांणी दाखोवन दिलें.

बायल हीच एक चळवळ आसता हें कोंकणी आंदोलनांतले बायलेन दाखोवन दिलां. ती स्वकेंद्रीत केन्नाच नासता. आपल्या बरोबर ती कुटुंब, समाज, गांव, देश हांचेंय हीत जपता. कोंकणीची सेवा हेच नदरेंतल्यान घडल्या. कोंकणी आमची आवयभास आनी तिका बाकीच्या भासां बरोबर मान मेळपाक जाय ह्याच उद्देशान ती दादल्यां वांगडा हे चळवळींत वांटेकार जाल्ली. तिच्या स्वाभिमानाचो आदर राखप म्हत्वाचें आसा. दादल्यांचे बरोबरीनूच बायलेक योग्य सुवात दिवपाची मनोवृत्ती बळावत वचपाक जाय. वर्सा संकिनी चलून आयिल्ले पुरूश प्रधान संस्कृतीचो प्रभाव काडून उडोवन फाव त्या बायलांक वयले सुवातींचेर हुद्दे मेळटले आनी निर्णय प्रक्रियेंत चडानचड तांचो सहभाग जातलो अशो नेमणुको जावप अत्यंत गरजेचें आसा. हे म्हजे विचार आनी प्रश्न हांवें संद मेळटा तेन्ना कोंकणीच्या व्यासपिठार खूब वेळा मांडल्यात तशेंच जायत्या लेखांतल्यान वेगळे वेगळे पद्दतीन व्यक्त केल्यात. ह्या प्रस्नांच्यो हांव जापो सोदतां. केन्ना तरी एखाद्या परिशदेच्या माटवांत हे प्रस्न उपरासूं आनी तांच्यो जापो सगळ्यांक मेळूं.

संपर्क : 9764597628



# संशोधन क्षेत्रांत बायलेच्या वांट्याक येवपी आडखळी आनी मर्यादा

डॉ. जयंती नायक

संशोधनक्षेत्र हें आजय दादल्यांची मक्तेदारी आशिल्लें क्षेत्र. कारण संशोधनाचें क्षेत्र हें अशें क्षेत्र की ताचे पुर्ती खातीर वरांची वरां बैठक मारून एकाग्रतेन बसचें पडटा. आपलीं निजी कामां कुशीक दवरून आपल्या विशयाच्या मुळा मेरेन पावपा खातीर ताचो पाठपुरावो करचो पडटा. अभ्यासाच्या मुळाव्या साधनां बरोबरच, दुय्यम साधनां म्हणजे पुस्तकां, जर्नल्स, मासिकां आदीं संदर्भ साहित्याचो अभ्यास करचो पडटा. तांचीं पारायणां करचीं पडटात. ह्या सगळ्या खातीर खूब वेळ दिवचो पडटा. आतां हें संशोधन जर humanities (मानवजात) विशयाचें आनी तातुंतले तातूंत जर लोकवेद वा लोकवेदशास्त्रा विशयाचें, तर मागीर तातूंत प्रत्यक्ष क्षेत्रकाम आयलें आनी जंय क्षेत्रकाम आसा थंय बायलांचेर खूबच मर्यादा येतात. देखूनच ह्या क्षेत्रांत बायलांचो सहभाग खूब उणें दिसता.

क्षेत्रकाम हें त्या त्या संशोधन विशयाक धरून रातचें- दिसाचें केन्नाय आसूं येता. क्षेत्रकामाचें थळ घराकडल्यान पयस, रानांत, आडगांवांत खंयूय आसूं येता. एकदां क्षेत्रांत गेलें म्हणटकच थंयचें काम, सर्वे क्षण, दस्तावेजीकरण पुराय जाले बगर येवंक मेळना, कारण त्या दिसा मेळिल्ले म्हायतीगार, तांचो मूड, वातावरण वा जे विधी-उत्सवाचें दस्तावेजीकरण करूंक गेला तें परत मेळतच वा तशी संद परत मेळतच हें सांगूंक जायना. ते खातीर सुज्ञ संशोधकान जें मेळटा, ताची चडांत चड म्हयती पुंजावप म्हत्वाचें. एका गांवांत, एक दीस, एक रात धरून म्हयनो आनी वर्सय रावपाक पडूं येता (ताच्याकय चड). अशा वेळार संशोधक ही बायल आसून जर तिचें ल्हान भुरगें आसा, वा ती गुरवार आसा, तिगेर भुरगें जावपाचें आसा, तर तिचेर सैम धर्माक धरून तेच बरोबर घरच्यां कडल्यन बंधनां येतात. कांय आवय-बापूय आपल्या तरण्या चलयांक रातचें घरा भायर रावंक दिवंक तयार नासतात, मांव-मांय सुनेक तर घोव बायलेक. क्षेत्रकामाक एकट्यानच बायल गेली तरूय तिका अडचणच जाता. प्रवासांत अडचणी उपरासूं येतात. समाजाचे मानसिकतेक धरून एकटी, रातची, परगांवांत भोंवपी बायले कडेन दुशीत नदरेन पळोवप जाता. तिचेर क्षेत्रांत आगळीक- बलात्कार जावपाचीय शक्यता नाकारूंक मेळना. अश्यो गजाली देश-विदेशांत घडिल्ल्योय आसात.

पंगडांन गेली तरी तातुंतल्या दादल्यांची मनोवृत्ती कसली आसतली हेंवय सांगूंक जायना. एकटी एकसुरी बायल दिसली, आनी मागीर तातूंत तरणी आनी रातचो वेळ. पंगडांतल्या दादल्यांच्या मनांतलें लैंगिक भूत तार-तम्य विसरून अचकीत खुबळूंक शकता. खुबशे आवय - बापूय आपले चलयांक वा घोव आपल्या बायलांक पंगडा बरोबरूय ह्याच भंयान धाडूंक तयार नासतात. खासा चलयांच्या-बायलांच्या मनांतय होच भंय आसता. शिवाय कांय घोव दुबावी वा पझेसीव आसतात. आपले बायलेन दुसऱ्या दादल्या बरोबर भोंविल्लें, उलयिल्लें तांकां नाका आसता. अशा वेळार दादल्यांच्या पंगडां बरोबर तिका एकटेक क्षेत्रकामांक धाडूंक ते घोव तयार नासतात. मुळांत बायलेन सगळें कितें करचें, पूण घर संबाळून, सकाळीं भायर सरून गेल्यार जाता, पूण काळोख पडटकच घरांत बायलेन परतूंक जाय अशी मनोवृत्ती सरसकट सगळ्या घोवांची आसता.

बायलांनी घर संवसार सांबाळून सगलें करचें अशी मानसिकता गांवगिऱ्या समाजा वांगडा धवाड्या समाजांतय आसा. ताका लागून बायलो फावो तितलो वेळ आपल्या अभ्यासाक दिवंक शकनात. खासा बायलोच अशे तरेचे विचार मांडटना दिसतात. हे विचारसरणेक साहित्यीक-कलाकार बायलोय आडवाद नात. जायतेदां ह्यो बायलो मोठ्या अभिमानान सभेमाजार सागंतात की आमी हें सगळें घर - संवसार सांबाळून केलां. भुरगें-बाळांचेर कसलेंच दुर्लक्ष केल्लें ना. एके नदरेन ज्या बायलांनी लग्न-संवसार सारक्या गजालीं कडेन फाट करून, आपल्या इत्सा-आकांक्षांचो बळी दिवन पुरायेन आपल्याक आपल्या लेखन-संशोधन कार्याक ओंपून घेतलां, त्या कार्याक आपल्या जिवितांत प्राधान्य दिलां आनी आपल्या ध्येया मेरेन पावल्यांत, तांच्या कार्याक तीं नकळत तुच्छ लेखपाचें काम करतात. तांकां जाणीव नासता की आपणें आपले अभिव्यक्तीचेर कितलो अन्याय केला म्हण.

ही जाली संशोधनकर्त्याची वा क्षेत्रकाम कर्त्याची व्यक्तीगत अडचण. पूण एखाद्री बायल मनीस ह्या सगळ्यांचेर मात करून निर्भयपणान ह्या क्षेत्रांत वावुरता, तिकाय प्रत्यक्ष वावर करतनां सगलें वातावरण पुरक आसुनय एक बायल म्हण कांय अडचणी येतात, मर्यादा येतात. खास करून हिंदू देवळां वा परंपरा-उत्सव जंय आसतात थंय ऋतुमती आसतनां बायलांनी वचूंक जायना, कसलेय धर्मीक भोगावळींत सहभागी जावंक जायना असो समज शेंकड्यांनी वर्सां सावन लोकमानसांत आसा. कितल्योय शिकल्यो सवरल्यो तरी तो आजूनय बायलांच्या मनांतलो पुराय ना जाल्लो ना. हरशिल्या दिसांनी घरांत सोवळें -ओंवळें पाळ्ळें ना तरी देव-धर्माच्या कार्यांत आनी देव-देवळांनी आजय वचूंक सर्वसामान्य बायल अनमन्ता. नव्या विचाराच्या प्रभावाच्या नेटान जरी एकाद्री गेली आनी संयोगान तिका वा घरच्या कोणाय सदस्याक कितेंय गंभीर वायट घडलें तर मागीर



ताचो संबंद ते घडणुके कडेन लावप जाता. संशोधक आसली तरी ती बायल समाजाचोच एक भाग. ती प्रगल्भ आसली तर मागीर अंधश्रद्धेच्या वलयांतल्यान भायर येतली, अपरिपक्क, नवखी आसली तर ती स्वताच अशा जाग्यांनी वचप टाळटली. हाचो परिणाम मागीर तिच्या वावराचेर जातलो. एखाद्री विधी तिच्या अडचणीच्या वेळार जाता तर मागीर ती तिका ती चुकता वा दुसऱ्या कडल्यान (सेकेंड हेंड वा Amateur) जांकां वावराचें योग्य प्रशिक्षण नासता ताचे कडल्यान तो करून घेवप जाता.

संशोधनक्षेत्र हें विद्वत्तेचें क्षेत्र. जाच्या आंगांत प्रज्ञा आसता, तोच ह्या क्षेत्रांत देंवता आनी यशस्वी जाता. जाचे कडेन ही प्रज्ञा आसता ताका खरें नशिबवान म्हणूंक जाय कारण संशोधना वरवीं मेळयिल्ल्या गिन्यानान ताची जीण समृध्द जाता, upgrade जाता. हांवें म्हजे 'अदिती' नांवाचे एके कथेंत नायिकेच्या माध्यमांतल्यान बरोवन दवरलांः *विद्वत्तेबगर मनीस म्हणल्यार रितो कळसो.*

संशोधन हें जर पीएच् डी.सारके पदवे खातीर आसत तर ते चलयेचें मार्गदर्शका कडल्यानय शोशण जाता अश्यो गजाली आयकूंक मेळटात. सुदैवान म्हाका स्वताक तसो अणभव येवंक ना. म्हजो मार्गदर्शक स. डॉ. ओल्व्हीन्यु गोमीश हांणी म्हाका सदांच आदरान वागयलां, हें हांव अभिमानान हांगा नमूद करतां.



खंयच्याय संशोधनाच्यो तीन अवस्था आसतात, एक डेटा वा म्हायती पुंजावप, दुसरी-मेळयिल्ले म्हायतीची म्हणजे तथ्यांचें वेवस्थीत वर्गीकरण करप, तिसरी- वर्गीकरण केल्ल्या म्हायतीचें विश्लेशण करून तातुंतल्यान निश्कर्श काडप, जें अखेरेक त्या संशोधनाचें फळीत आसात. हें काम खूब कठीण, जिकरीचें आनी आव्हानाचें आसता. कठीण कित्याक तर निश्कर्शा मेरन पावपाक खूब तकली फोड करची पडटा, सोदिल्लीं तथ्यां विद्वतेचे साणीर घांसून संदर्भ पुस्तकांचो निर्वाळो घेवन आपले निश्कर्श मांडचे पडटात. जिकरीचे कित्याक तर काडिल्लो एखादो निश्कर्श कोणाच्या वर्मार पडूं येता, वा तातुंतल्यान वाद-विवाद उपरासूं येता. कोर्टाची पायरी लेगीत चडपाक पडूं येता. संशोधकाचेर हल्लो लेगीत केल्ल्यो गजाली आसात. बायल मनशेक हाचो धोको चड आसता. कारण बायलमनशेचो शक्तीपात करपाचें एक मोठे अस्त्र दादल्याच्या हातांत आसा तें म्हणजे प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष तितीन तिचें लैंगिक शोशण करप. सामान्य मनशाचे भाशेंत, तिका '**सारकें दाखोवप.**' हें दाखोवप तीन तरेन आसता, एक तिका लागता अशी झणझणीत पोजडी गाळ मारप. दुसरें- ती जर आंकवार आसा तर तिची लैंगिक आसक्ती अतृप्त आसा ताका लागून ती चेकाळल्या आनी असे निश्कर्श काडटा अशें जाहीर उलोवप आनी तिका बदनाम करप, मनस्ताप दिवप.तिसरें, सरळच तिका आडवाटेर खंयीय धरून तिचेर बलात्कार करप.

गोंयांत सद्द्याक तरी संशोधक बायलेचेर अशे तरेन बलात्कार जाल्ले आयकूंक येनात, पूण गाळी मारप वा तिच्या आंकवारपणाचेर हळशीक कोटी करपाचे प्रकार घडल्यात. हांवें स्वता ताचो अणभव घेतला. मुजरत सांगूंक जाय, १९९२ वर्सा हांव 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत 'लोकबिंब' हें सदर बरयतालें... भौ. राजू नायक तेन्ना सुनापरान्ताचो संपादक आशिल्लो. हांव १९८८ वर्सा म्हैसुरच्यान लोकवेदाचो कोर्स करून येतकच राजू, तुज्या विशया संबदान एक सदर बरय म्हण म्हजे फाटीक लागिल्लो. तो म्हजे उमदेवारीचो काळ. म्हाका तेन्ना कितें बरोवचें तेंच कळनाशिल्लें. एक दिसा राजून फोन करून, ''बरयता काय ना तें स्पश्ट सांग, ना तर बें म्हण!'' अशी मोगाळ धमकी दिली. राजूचें उतर म्हज्यान तोडूंक जालें ना आनी हांवें ''लोकबिंब'' ह्या नांवान सदर सुरू केलें. सुरवातेक एक-तीन लेख सिद्दांतीक जाले, मागीर म्हाका ल्हव ल्हव विशयाचें सुत्र सांपडलें. त्या काळ मेरेन गोंयांत लोकवेदाचो वावर जातालो पूण आयचो सारको चड गाज्या-वाज्यान आनी नेटान जाय नासलो. आज विद्यापीठ थराचेर लोकवेदाचे तरेतवार aspects घेवन डिझर्टिशनस्, प्रबंध जातात, तेन्ना ते तशे जायनाशिल्ले. ताका लागून म्हज्या बरोवपाचें खूब जाणांक अप्रूप दिसतालें, पूण कांय जाणाक (तातूंत उच्च शिक्षितय आयले) तांकां ते समजच नाशिल्लें हें म्हाका मागीर कळ्ळें. घडलें अशेः हांवें ह्या सदरांत 'सामुहीक निशेद' नावांचो एक लेख बरयलो. त्या लेखांत *'लोक'* म्हणजे मौखीक परंपरेंत जगपी सामान्य मनीस, हरशी एकोडो आसतना आपल्याचेर वर्चस्व गाजोवपी मनशा मुखार मान बागोवन उबो रावता वा आपल्याचेर जावपी अन्याय मुकाट्यांनी सोंसता, पूण होच मनीस जेन्ना समुहांत आसता, तेन्ना ताचे विरूद्ध आवाज उठोवंक भिना, वा ह्या अन्यायाचो तो सामुहिकपणान निशेद करता, ताच्या व्यंगाचेर बोट दवरून तांच्यो भगल्यो वडयता अशा आशयाचो तो लेख आशिल्लो. ह्या लेखांत म्हज्या मुद्द्याक आदार म्हण हांवें कांय लोकगितांच्यो देखी दिल्ल्यो. हातूंत, म्हज्या गांवांत आमोण्यांत, तेच बरोबर केपें तालुक्यांतल्या आनीकय कांय गांवांनी शिगम्याच्या मेळांत गायतल्या एका लोकगिताची देख दिल्ली. ताचेर तें शिगम्याचें गीत हें स्पश्टीकरणय केल्लें, तेच बरोबर गांवची इतिहासीक फांटभूंयय दिल्ली. आमचो गांव चंद्रवाडी म्हालाचो म्हाल गांव, ह्या गांवचे आठ देसाय आनी एक नाडकर्णी, गांवचे गावडी मिराशी... आदी सगळ्याचो संक्षिप्त इतिहासय सांगिल्लो. तें गीत अशें (आजय घोळणुकेंत आसा):

*खांदार नांगोर, भोकांत गोबोर*
*शेळडेकार देसाय बा रावजे, शेळडेकार देसाय मूं*

*हातांत दोरी, पणसुलां चोरी*
*अवेडकार देसाय बा रावजे, अवेडकार देसाय मूं*

*हातांत सत्री, पांयार घोत्री*
*असोळडेकार रावत बा रावजे, असोळडेकार रावत मूं*

*हातांत कट्टी, भाटयेंत लोळपी*
*कोठंबकार देसाय बा रावजे,कोठंबकार देसाय मूं*

*हातांत जाळी, सुंगटां गाळी*
*शेळवणकार फट्टे बा रावजे, शेळवणकार फट्टे मूं*

*हातांत नम नम, कानाक लिखणी*
*चंद्रवाडी नागोवन खाली बामणांनी बा रावजे, चंद्रवाडी नागोवन खाली मूं.*

हो लेख १२ जुलै १९९२ दिसा छापून आयलो आनी दुसऱ्याच दिसा आमच्या वाठारांत, सांगूंक वायट दिसता पूण उच्च विद्याभूषीत, आज स्वताक लोकसाहित्याचो संशोधक म्हण मिरोवपी आनी जो म्हजो शिक्षक, जाणें म्हाका हायर सेकेंडरींत शिकयलां, त्या मा. उल्हास प्रभू देसाय हाणें खूब बोवाळ केलो. आयकल्ले ते प्रमाण त्या गिताच्योच प्रती झेरोक्स करून शेळडें, कोठंबी, अवेडें ह्या वाठारांतल्या सगळ्या मानेस्त देसायांक ताणें वांटल्यो आनी सांगलें "नाम्याल्या (म्हज्या बापायचें नांव नामदेव, पूण ताका हे लोक नामो म्हण उलो करताले) चेडवान पळय तुमचेर कसली कविता बरयली ती!" साहजीकच, सगळ्या जाण्टयांक तिडक मारली. मागीर तो आनी एक-दोग जाण केंप्या म्हज्या बापायच्या दुकानाचेर वचून बापायक लोकां सामकार सुजार केलो आनी तुज्या चेडवाक दाखयतां म्हण धमकी दिली. त्या तिगां मदलो एक आदोगाद आशिल्लो आना तसो कोंकणी चळवळी कडेन पयसुल्ल्यान संबदीत आशिल्लो. ताणें तर "तुज्या चलयेचेर (तो थोडो सभ्य म्हण ताणें म्हाका चली म्हण उल्लेखिल्लें) डिफेमेशन केस घालतां!" म्हणून आनीक एक धमकी बापायक दिली. जालें, म्हज्या घरांत तांडव सुरू. बापूय येवन घरांत खुबलो, नाका आशिल्यो जगराटावळी करता म्हण तापलो. ताचो गुन्याव ना, म्हाक कोणें कितें केल्यार, कोर्टांत गेल्यार... नांव पिड्यार जावचें ना? म्हाका बंदखण बी जाल्यार? ताचेर अंकांत आयिल्लो. ताणें बाबड्यान जिवितांत केन्ना पोलीस स्टेशनाची पायरी चडली नाशिल्ली, कोर्ट खंयचो?

बापूय तापतच म्हाका खरें रडूंक येतालें, कारण हांव बापायचे लाडकें, उब्या जिवितांत बापूय म्हजेर दोनदांच तापिल्लो, एक १४ नोव्हेंबर १९८५ दिसा पणजे आझाद मैदानाचेर जाल्ल्या म्हामेळाव्यात हांवें भाशण केल्लें म्हण, दुसरें ह्या लेखाच्या प्रकरणाक लागून. म्हाका सराची खूब तिडक मारिल्ली. वांगडा म्हजो आत्मसन्मान जागो जालो. ते दिसा हांवें पापाक निक्षून सागलें, "तें एक लोकगीत, हांवें तें संदर्भाक धरून मांडलां. कोण म्हेजर कांय करूंक शकना, जर केलें तर हांव पळोवन घेतां. म्हजें हांव समर्थ आसां. तुंवें चिंता करपाची गरज ना!"

म्हजो आजो आनी आवय मात त्या प्रसंगार म्हज्या फाटल्यान रावलीं. आईक हरशींय देसायांचो राग आशिल्लो कारण आमच्या शेताचो कांय भाग तांकां लागून सरकारान हाताशिल्लो. तिणें बरेंच तांचेर तोंडसूख घेतलें. आजो तर सरळ पापाचेर तिडकलो. तें गाणें आमी मेळांत भुरगेपणां साकून गायतात. तूं वोगी बस रे! पापाक ताणें चूप केलो, पूण सुमार म्हयनो भर पापा म्हजे कडेन उलयलो ना.

कथा हांगाच सोंपना... म्हजो मानेस्त सर फकत धमकी दिवन रावलो ना ताणें संपादकाक, लेख छापला मरे आतां हें पत्रय छाप म्हण एक मराठींत बरयिल्लें पत्र धाडलें. राजून म्हाका आपोवन व्हरून तें पत्र वाचपाक दिलें. त्या पत्रांतलो सगळो मजकूर हांव सांगूंक वचना, म्हत्वाचें तितकेंच सांगता, ताणें बरयलें...

*"पण तिच्या त्या सामुदायिक रित्या जाहिर केलेल्या निशेदाबद्दल मात्र चंद्रवाडी महालातील आठ देसाई व सर्व बामणांच्या जाती मर्मांतिक जखमेवर मीठ चोळणारे मर्म तिच्या काल्पनीक शिमग्याच्या गीतांतून अनुभवास येते. वाटते की अतृप्त वासनेने तिच्या सर्वांगाला खाज सुटली असावी..."*

ह्या पत्रांतलो निमाणो परिच्छेद---

*जाता जाता तर या जयंती नायक ने आपल्या गीतात खालील दोन ओळी स्विकारून त्या जतन करून ठेवल्या तर भावी पीडीला उपयोगी पडतील.*

*"भांगराची काणी अरबान दाखयली,*
*आमोणेची नायकीण, ताकाच भुलली बा रावजे..."*

तें पत्र वाचून हांव खूब निन्हळ्ळें. म्हजो एका काळावेलो गुरु म्हाका अशे भाशेंत अपमानीत करता हें येवजून म्हाका अक्षरशा रडूंक येवंक लागलें. राजून म्हाका खूब धीर दिलो. समजायलें, 'कांय भिवपाची गरज ना, तशेंच असल्या मनशान कितें बरयलें म्हण रडपाचीय गरज ना. आनी ते कोर्टांत वचूंकच शकनात, गेल्यार हांव आसा तुज्या फाटल्यान!'

राजूचीं तीं उतरां आजय म्हज्या मनांत आसात. तेन्नाच्यान राजूक हांवें म्हजो इश्ट मानलो. पोक्यो खबरी कोणय सांगतात, पूण जो प्रसंगाक पावता तो खरो इश्ट!

ते नंतर कांय दिसांनी म्हाका तो आदोगाद मेळ्ळो, ताका मुद्दाम मानार करुन हांवें ते विशीं विचारलें, चर्चा केली. ताणें ते लोकगीत हें मानून घेतलें, न्ही ताका ते खबरच आशिल्लें पूण मागीर - "कोर्टांत कोण वचूंक शकनात गो, पूण तुका तें कित्याक बरोवंक जाय आशिल्लें?" असो उलटो प्रस्न ताणें केलो.

खरें तर त्या गितान वा लेखान अशें कितेंय घडटलें हें हांवें सपनांतय चिंतूंक नासलें. हांवें सहजपणान विचारांच्या भारान प्रभावीत जावन



तो लेख बरयिल्लो. तातुंतल्यान एक चत्राय हांवें घेतली, ती म्हणजे संशोधकान खूब सादूर रावंक जाय. बरयतनां अशेतरेन भाशा बरोवची की कोण आपल्याक कचाट्यांत वोडूंक पावचोना. म्हजी ही चत्राय हांवें त्या उपरांत म्हजेकडेन येवपी नवसंशोधकांक मुजरत दिवपाक सुरु केली.

उपरांत कांय काळान म्हजो तो सर पापा कडेन येवन म्हजें 'आमोणें-एक लोकजीण' पुस्तक मागूंक लागलो. पापान म्हाका तें सांगलें, पूण हांवें तें दिलें ना. एका दिसा तो फांतोडेर आमगेर आयलो, ताच्या कोणा इश्टाक 'कर्लेची बनवड' पुस्तक जाय म्हण. तो आमगेल्या घरा आयलो, दारांत आयिल्ल्याचो अपमान करनात म्हण हांवें ताका पुस्तक दिलें.

ताका घडये आपलें पत्र हांवें वाचलां हें खबरय नासत. आनी सांगपाचें म्हणल्यार राजू आनी म्हजे शिवाय ताची खबर दुसऱ्या कोणाकच नाशिल्ली. हें पत्र हांवें घरच्या पासूनय लिपोवन दवरलें. जर कळिल्लें तर घरांत उजोच पेटपाचो, आनी घडये, संशोधन क्षेत्राकच म्हाका फाट करपाक पडपाची.

अशे अणभव जायते आसात. शिवोलेच्या जागराक गेल्ले कडेन 'फिरंगी राजाचें' संवग करपी आपली भूमिका सोंपतकच अक्षरशा म्हज्या फाटल्यानच लागिल्लो, ताका चुकयता सर म्हाका नाका पुरो जालें, पूण मनोहरबाबाचे नदरेंतल्यान तें चुकलें ना. असले, आज विनोद दिसपी पूण त्या वेळार म्हजी स्थिती केविलवाणी करपी कांय प्रसंगय पदराक आसात.

'पेडणेचो दसरो' प्रकाशीत जातकच पेडणेच्या कुळाव्यांनी बरोच बोवाळ केलो. देशप्रभूंचें आयकून सगळें बरयलां असो आरोप करून ते अकादेमींत मोर्चा घेवन येवपाचे. त्या वेळावेले सचीव स. शरद दळवी हांणी म्हाका सांगलें, ''कांय भियेनाका गो. हांव डेप्युटी कलेक्टर आशिल्लो. म्हाका असले प्रसंग सांबाळपाची संवय आसा.''

एक तरूण चली म्हण सुरवेक क्षेत्रकामाक रातचें अकादेमीच्या पंगडा बरोबर वतनाय कांय वायट अणभव आयले हें आज दुखेस्त काळजान सांगचें पडटात. मोठे हिकमतीन हांवें तांकां तोंड दिलें. धरल्यार चाबता आनी सोडल्यार धांवता, अशी म्हजी स्थिती जाल्ली. पूण भिवन उपकारना, आपली सुरक्षा आपणेंच करूंक जाय. ह्या क्षेत्रांत वावुरतलें जाल्यार आपणें इतकें बळीश्ट जावंक की मुखा वयल्याक आपले वाटेक वतना भंय दिसूंक जाय असो निश्चेव करून हांवें म्हजें व्यक्तीमत्व घडयलें. स्वताक तारलें, सिद्ध केलें. लोकसंस्कृतीच्या संशोधन क्षेत्रांत म्हजी घुडी अटकेपार हुबयली. मात *....उतू नको, मातू नको...घेतला वसा सोडूं नको...* हें सदांच मतींत दवरलें आनी दवरलां.

संपर्क : 9823575623





# बरप बायलांचें -
# (लग्ना पयलींचें आनी उपरांतचें)

जयमाला दणाईत

लग्रा पयलीं एक चली म्हणून आवय बापायचें, भावां भयणीचें - सगळे घरादाराचें अपुरबायेचें हांव! करीत तें व्हय. म्हाका सगळें माफ आसतालें. गुणा-अवगुणांची वाखाणणी जाताली. केन्नाय कितेंय करुंक मेळटालें. मूड आयलो, बसलें बरोवपाक. ताका मागीर रात ना दीस; हॅपी गो लकी म्हणटा तशी वृत्ती. सामकें एका पिपुशा शेवण्यावरी, फुलपांख्या वरी हांगा थंय उडपाचे दीस, जाय तेन्ना जाय तें करपाक मेळटालें.

मात लग्न थारलें आनी आपोआप हजार बंधनांनी हातपांय घुस्पले. नवीं नातीं, तांचे खातीरचीं कर्तव्यां, तांचे खातीर दिवपाचो वेळ, तांचे मूड हाचो सगळ्यांचो पयलीं विचार करचो पडप. सगळेंच बंधनकारक. मनांत येता तेन्ना जाय तें करप शक्यच नासलें. आमच्या तेंपार तर भोवतेक सगळ्या चलयांची परिस्थिती हीच. हाका कांय आडवाद आसूं येतात. पूण चडश्या बायलांची तरी हीच अवस्था जाताली.

तश्यो बायलो बरोवपी आमच्या कोंकणींत तरी हाता बोटार मेजपा सारक्यो. लग्रा पयलीं खंयच्याय मळार नांव मेळोवंक लागिल्ल्या चलयेची बायल जावन संवसाराची जापसालदारकी माथ्यार पडटकीच सगळें विसरून संवसार एके संसार जाता. अशीं कितलींशींच उदाहरणां आसात. घरचें सगळें करून संवरून वेळ मेळ्ळ्यार बरोवप वा आपलो छंद - आपली हॉबी सांबाळप शक्य जायना. म्हाका तर ताकीदच आसली - घर संवसार, सोयरीं-धायरीं सगळें सांबाळून मागीर तुका जाय तें करपाचें. तुजें बरप बी सगळें सेकंडरी.

मनुस्मृतींत सांगून दवरलांच न्हय "न स्त्री स्वांतंत्र्यम् अर्हति!" तेच चालीचेर ह्या पुरुशप्रधान संस्कृतायेन बायलांक सदां खातीर दामून चेपून दवरल्यांत; पयलीं बापूय, भाव, उपरांत घोव-पूत हांचे मतीन बायलांनी चलपाचें अशें म्हणलां. अर्थात आतांच्या स्त्री स्वातंत्र्याच्या आनी समानतेच्या काळांत चडशें सगळें बदल्लां. तेच प्रमाण सरभोंवतणीं साहित्यीक वातावरण आशिल्ल्या बायलांक ताचो लाव जाता हें खरें - म्हज्या वेळा वेल्या जायत्या जाणांक तो मेळ्ळाय बी. म्हाका मात अर्दवट मेळ्ळा म्हणूंक जाय.

म्हज्या कुळारचें वातावरण तशें मात्शें ऑर्थोडक्सच आसलें. शिकपा-करपा बाबतींत कारण आमचें जांबावले तशें खेडेगांवच - प्राथमीक शिक्षणाची सोय आसली, पूण फुडें शिकपाक-करपाक वाव नासलो. म्हज्या भयणींक बी तशे जायते त्रास सोंसचे पडल्यात. हांव मात्शें आडवाद. म्हाका माध्यमीक शिकप - जाव कॉलेज मेरेनचें शिकप - त्रास काडूनच - पुण शक्य जाल्लें. कारण तेन्ना आमचें गोंय स्वतंत्र जाल्लें. गांवच्या भायर वचून तें करूंक मेळ्ळें - जावं फुडे थोडो काळ नोकरी करपय शक्य जालें हें म्हजें नशीब म्हणपाचें.

अशें मनमेकळें भोंवतना खंय केन्ना कसलें बीं मेळत आनी केन्ना तकलेंत कसली कथा, कविता, लेख तयार जायत सांगूं येना आसलें. आनी मागीर आपलो मूड आसलो तेन्ना घरांत खंयय बसून सुसेगाद तें बरोवन काडप शक्य जातालें. मदीं कोणेंय उलो मारलो - कसलेंय काम सांगलें, जेवंक यो म्हणलें तरी "राव गे, म्हजें मात्शें हें बरोवन जावंदी मागीर येतां" म्हणून सांगूंक जातालें.

लग्न जावन कुळारा सोडून घोवा घरा पावलें आनी मागीर सगळेंच बदल्लें. घर संवसार, रांदप-वाडप आनी तेन्ना नोकरीय आशिल्ली. आवयपण येतगीच तर बायल पुराय तांतूंत घुस्पून वता आनी ताचें जितें जागतें उदाहरण म्हणजे हांव अशें म्हजे इश्ट-इश्टिणी म्हण्टात. एका काळार बरोवपांत जायत्या सर्तींनी वांटो घेवन नामना जोडपी तें हेंच काय असो प्रश्न पडटा इतलें हांव गळ्या मेरेन - आकंठ - संवसारांत बुडून गेलें. गोंयां आससर हातांत मात्शे पेन तरी घेतालें. पूण हांगा मुंबय हांची बदली जाली आनी कोंकणी कडेन आशिल्लो संपर्कूय साप्प तुटलो. पयलीं पयलीं दिवाळी अंका खातीर बरप मागपी पत्रां येतालीं, पूण म्हजो रिस्पोन्स ना म्हण्टगीच तिंवूय येवपाचीं बंद जालीं.

आमची जॉयंट् फॅमिली - मांय, देर, जावो - दिसभराचें काम पुरुन उरतालें. तांतूंत आनी प्रत्येकाच्यो पाळयो वेगळ्यो वेगळ्यो! फांतोडेर धरुन मध्यान रात मेरेन रांदची कूड कांय सुटनासली! घरकारान म्हाका दोन होड्यांर पांय दवरूं नये म्हणून - घरचें, भुरग्यांचें सारकें करूंक आनी हाच्या म्हणण्या प्रमाण म्हजो बरपाचो छंद जोपासूंक म्हणून फोर्सान बरी बँकेंतली नोकरी सोडून घरा बसयिल्लें. आयतेंच घरकामाचे तावडींत सापडलें! सगळ्यांत चड शिकिल्लें आसूनय हांव रांदा, वाडा, उश्टीं काडा आनी जावो बी कमी शिकप आसूनय सकाळीं ऑफिसांत वचप तीं बद सांजे घरा परतप. आनी पुरो जालां म्हणून आपापल्या कुडींनी गुडूप! हांव आनी मांय काडटात घश्टे घरादाराचे! बरयतलें कितें कपल? नोकरी सोडिल्ल्याचो भयंकर पश्चाताप जावचो, पूण म्हजो हात फातरापोंदा सांपडिल्लो. फुडें एकेकाचो संवसार वाडलो, येदो व्हडलो बंगलो सगळ्यांक पुरो पडना जालो आनी जण एकलो वेगळो रावंक गेलो, तरी एकदां बरप हातचें सुटलें तें सुटलेंच.

खरें तर डोंबीवली हें साहित्याचें 'माहेरघर' म्हणटात. हांगा जायते व्हड व्हड मराठी साहित्यिक रावताले खंय. जायत्यो कार्यावळी जाताल्यो. पूण म्हाका याद ना हांव केन्नाय खंयचे कार्यावळीक गेल्लें.

घरांत वातावरणूय तशें साहित्याक पोसवण दिवपी नासलें. म्हाका तश्यो कोण चडश्यो बरोवपी बी इश्टिणी मेळ्ळ्यो नात. आनी घरचें वातावरणय साहित्याक - बरपाक पोशक अशें नासलें. वाचन करपाची आवडय नासली. कुळारा कितेंय धव्यार काळें केल्यार ताचें कवतुकच जातालें. तांतूंत आनी ''छे आमकां खंय कोंकणी येता! तुजें उलोवपच शुद्ध कोंकणी - तेंच आमकां समजना, बरयिल्लें कितें समजतलें?'' होच म्हज्या बरपा कडेन पळोवपाचो दृश्टिकोन! एक घरकार सोडल्यार कोणाक कोंकणी वाचूंक येना आसलें. आनी ताकाय आपलें काम सोडून वाचपा करपाची आवड नासली, वेळच नासलो. मुंबयची धांवपळीची जीण - सकाळीं भायर सरतालो तो कामां आनी यो-वच करपांत रातचो घरा येतालो, शेनवार, आयतार लेगीत कामां. खंयच वचप करप ना. वेल्यान आमगेर येवपी सोयरीं धायरीं, इश्ट मित्रूच चड आसलें. ह्या सगळ्यां मदीं भुरग्यांच्या अभ्यासा कडेन सुद्दा सारकें लक्ष दिवप जायनासलें. म्हज्या बरपाचें कोणाक कवतूक आसपाचें? वेल्यान तुजें हें बरप म्हणचे ''पोट भरतगीच करपाचे नसते उद्देग'' हें मत सगळ्यांचें.

मागीर आमचें अणभव विश्व सगळें घरदार, भुरगीं, घोव, रांदप-वाडप इतलेंच. चडशें जाल्यार नोकरी करता तो जागो हाजेपुरतें मर्यादित उरलें. व्हडल्या व्हडल्या मळांनी आज फुडें सरिल्ल्या कांय चिमटी भर बायलांचें सोडात - त्यो आडवाद - पूण म्हजे सारकिल्या मात्शें धव्यार काळें करपी मध्यमवर्गीय, संवसाराचे सगळे तापत्रय भोगपी, तरी बरपा कडेन नातें तिगोवन दवरुंक धडपडपी बायलेन कितें करपाचें?

दीस भर सगळें आवरून सावरून जातगीच रातचें न्हिदतना एखाद्रें आवडीच्या लेखकाचें पुस्तक हातांत घेवचें, पुराय वाचूंक सात आठ दीस लागचे. केन्नाय कसल्या प्रसंगान, कितेंय वेगळें पळोवन, वाचून वा आयकून अस्वस्थ जावचें. सामक्या भितरल्या उमाळ्यान कितेंय सुच्चें, मुखार सामकें आत्तां करुंक जाय - सामकें मस्ट म्हणून उबें राविल्ल्या कामा कडेन लक्ष एकवटावन ताचे बरोबर मनाचो हो कोणसो जितो दवरपा खातीर धडपडचें, केन्ना काय काळजांतल्यो ह्यो उर्मी कागदार उतरावचे खातीर वेळ मेळत म्हणून तिश्टत रावचें हें आमचें प्राक्तन!

दादले बरोवप्यांची ह्या वेळार खऱ्यांनीच नसाय दिसता. तांचें कितें - मनांत आयलें रे आयलें - बसतात ते सामके हात सरसावन - कागद पेन हातांत घेवन सारकें लावन दवरिल्ल्या मेजार स्वस्थतायेन बरोवंक! वेल्यान घरचीं तांची खासा सरबराय करतात, तांचे मूड सांबाळटात. मदीं मदीं तांका च्या, कॉफी - जाय जाय तें दितात. तांकां जाय तशें भोंवतणचें वातावरण दवरूंक जिवाचें रान करतात. ''शूऽ बोवाळ करिनाकात - बरोवंक बसल्यात-'' म्हणून भुरग्यांक धपकायतात. बेल मारतल्यांक तापयतात. बेठेच आलतू फालतू कामां घेवन आयिल्ल्यांक उलयतात - एकूणच तांचो मार्ग ह्या असल्या आडमेळ्यां शिवाय - कांट्यां-खुंट्यांशिवाय सुरळीत करुंक जिवाचो आटापिटो करतात. बायलांक मात कितलेंय बरोवंचे मनांत आयल्यार लेगीत आपलीं सगळीं कामां आटपून, सगळ्यांचें सगळें जुस्ताजुस्त जाग्यार घालूनच हातांत लेखणी धरचेली सूट मेळ्ळ्यार मेळटा. म्हजे



बरोबर बरोवंक सुरवात केल्ले जांव म्हजे फाटले खुद्द जायते जाण बरोवपी खंयचे खंय पावले. हांव मात हांगाच बुचकळत आसां ह्या विचारान एकेकदां मनाक खंत भोगता. कांय एक करन दिसना. सगळ्यांचो वितराग येता. मन सामकें विषण्णतायेन भरून वता.

आपल्या बरपाक सारकी निवांत वेळ आसता खंय? मानगुटेर बशिल्लीं सगळीं कामां सोंपोवन, सगळ्यांच्यो सगळ्यो मागण्यो पुरोवन जो वेळ हातांत येता तो हातासून आपणाली बरपाची उमेद भागोवप म्हणजे खरें तर सर्कशींतले सरयेवेली कसरत कशी! कितल्यो खेपो अशें जाता - भर कामांत आसतना सामक्या घाईच्या वेळार सटट् करुन एखाद्रो विशय सुचता, पूण तेन्ना हातांत वेळ नासता, तो आसल्यार पेन जाग्यार नासता, पेन आसल्यार कागद मेळना असली गत, आनी हावा शिवा करून सगळी सामुग्री एकवटावन बसलेंच तर मनांत जुळटालें.

कथानक म्हणा वा तो विशयच शेणटा-घाळटा. येदोळचीं तीं उतरां सुचचनात. सगळें मनूच शेणून वता. परतून मागीर विशय सुचता, बरपाची जुळवण मनांत घडून येता ती बद्द हांतुणार पडटगीच. दीस भराचीं सगळीं कामां एकदांचीं सोंपोवन, रातचें मेळांय लावन न्हिदपा खातीर हांतुणार पडचें तेन्ना बरेंच कितें कितें सुचत रावता - पूण दीस भराच्या शिणवट्यान कूड इतकी थकिल्ली आसता - मनांतलो शीण मनांतच घुंवत उरता. न्हिदेचे फुलपांखे आपसूंक दोळ्यांत देंवता, मन जागें आसलें तरी दोळ्यांत ल्हवपीक लकवो मारता, शिणिल्ली कूड मात हालपाचे अवस्थेंत नासता. सगळें भोंगूं, कांयच नाका शें जाता. मन अर्दवट न्हिदेंत सपनाच्या राज्यांत केन्ना पावता आनी ते सुंदर सपनावस्थेंत मनांतल्या एका कोणशाक तें बरप केन्ना चित्रीत जाता - आपल्याक लेगीत कळना. सकाळ जातकीच मात परतून ये रे माझ्या मागल्या सुरु!

हाचे वयल्यान पयलीं घडिल्लो एक प्रसंग येवजलो. म्हज्या घट्ट लक्षांत आसा. तेन्ना सगळीं एकठांय रावतालीं. इतल्या जाणांक घर ल्हान पडटालें. जागो पावना ही रड आशिल्ली. गोंयच्यान येतना म्हजी सांटली-पोटली म्हणजे तेन्ना प्रकाशित जाल्लें म्हजें सगळें बरप एकठावन दवरिल्लें. खंयचे राष्ट्रमताचे, गोमंतकाच्यो दिवाळी पुरवण्यो, पुनव कुळागरचे आंक, कांय हेर कोंकणी पुस्तकां, सगळीं पत्रां- अशें कितें कितें. पयलीं सुरवातेक मात्शें चड अप्रूप आसता न्हय. आपलें बरपाचें वा कसल्याय कर्तुपाचें! भुरग्यांचे सुटयेंत मे म्हयन्यांत आमी गोंयां वचून आयलीं. येतगीच म्हजी सांटली पोटली सोदूंक गेल्यार जाग्यार ना - म्हजेर सामको आकांत आयलो! जिवापाड जपून दवरिल्लो ऐवज जागेंत शेणचो असो भास जालो. विचारतलें कोणाक? कितलेंय जालें तरी त्या घरांतली सून - चली न्हय! तरी भिये भियेत अंदाज घेतलो. हूं ना की चूं ना! मागीर मात्सो नेट करुन विचारलें. तर शेऽऽ तीं कागदां-पत्रां? कितें आशिल्ली ती पोटली - बेठ्ठी जागो आडायताली म्हणून रद्दींत दिवन उडयली ही जाप! हांव सामकें अवाक्. तोंड आं करुन पळेतच उरलें. आनी थोड्या वेळान म्हणचे

*(पान २३ चेर)*

# कोंकणी नॅचुरल लँग्वेज प्रोसेसिंग (NLP): एक मुलाखत



कोंकणी भाशीक घटकांचें स्वयंचलीत (automatic) प्रोसेसिंग करपाच्या हेतून तातूंतले साधन-सामुग्रींत भर घालचे पासत हालींच्या काळार वावर जायत आसा. अल्पसंख्यांक भासां संदर्भांत *Natural Language Processing** (NLP)चो वावर तितलोसो जायना. कोंकणी भासूय ताका आडवाद ना. अल्पसंख्यांक भासां खातीर NLPचो वावर फावो त्या प्रमाणांत न जावपा फाटल्यान जायतीं कारणां आसात. तातुंतलें एक कारण म्हणल्यार भास - विशिश्ट (specific) डिजिटल साधनांचो अभाव. कोंकणी डिजिटल साधनांचे निर्मणेंत भर घालचे पासत कांय संस्था, व्यक्ती प्रयत्न करीत आसात. तातूंतलेंच एक नांव म्हणल्यार ॲनी राजन.

ॲनी राजन मूळ केरळची पूण फाटल्या कितल्याश्याच वर्सां सावन ती गोंयांत राबितो करुन आसा. ती धेंपे महाविद्यालय, मिरामार पणजी हांगासरल्या संगणकशास्त्र विभागांत असोसिएट प्रोफेसर म्हूण कार्यरत आसा. संगणकीय भासविज्ञानाक जोडून कोंकणी भाशे संबंदान जावपी संशोधनाच्या उणावाची जाण जावन कोंकणीचे सेवेंत आपली भर घालपाच्या उद्देशान तिणें ह्या मळार आपलो वावर सुरू केलो. सद्या कंप्युटर आदारीत कोंकणी तंत्रगिन्यान (Computer-assisted Konkani Language Technology) आनी कोंकणी संगणकीय परिभाशा हाचेर तिचो वावर चालू आसा. कोंकणी खातीरच्या तिच्या वावराची कोंकणी संशोधकांक, विद्यार्थ्यांक, कोंकणी उलोवप्यांक, बी वळख जावची आनी तिणें निर्माण केल्ल्या NLP साधनां संदर्भांत विचार विमर्श जावन तीं आनीक विकसीत करपाचे दिश्टीन वावर जावचो ह्या हेतून तिची मुलाखत आमी हांगा छापून हाडल्या.

**ॲनी राजन**
मुलाखत घेवपी: आसावरी नायक
ॲडना वाझ फेर्नांडीस

**कोंकणी भाशेच्या डिजिटायझेशना खातीर तुजें योगदान कितें हाचे विशीं थोडे भितर सांगशी?**

कोंकणी NLP वावरा संदर्भांत विचार केल्यार कोंकणी ही एक under resourced भास. ज्या भासांनी डिजिटल साधनां उपलब्द नात आनी संगणकीय भासविज्ञानाचे दिश्टीन संशोधन साप्प उणें आसा त्या भासांक under resourced भासो लेखतात. अश्या भासां खातीर NLP पद्द्ती विकसीत करप एक आव्हानूच आसा. NLP पद्दती विकसीत करूंक भासविज्ञानीक लेबल लायिल्लो डेटा जाय आसता जो तयार करप सोंपें न्हय. भासविज्ञानीक माहिती फकत त्या मळा वयल्या जाणकारां कडेन आसता. कोंकणी सारकेले under-resourced भाशे खातीर हो वावर जावपाची गरज आसा. भासविज्ञानीक नियाळाचे वेगळे वेगळे थर - नाद, शब्द, पदबंद, वाक्य, अर्थ बी हांकां धरून कोंकणी खातीर यंत्रणा तयार करप हो म्हज्या वावराचो मुखेल उद्देश आसा.

हांवें म्हजो संशोधन वावर सुरू केल्लो तेन्ना कोंकणी खातीर कसलींच भासविज्ञानीक साधनां उपलब्द नाशिल्लीं. कोंकणींत टिपणी केल्लो (annotated) कॉर्पस साप्प कमी आसा. म्हज्या वावरा वरवीं हो उणाव भरून काडप होच म्हजो यत्न आसतलो.

पयले सुवातेर हांवें कोंकणी मॉर्फोलॉजिकल ॲनलाइजर तयार केला. (रुपीम विचारांत) भाशेंतलीं उतरां कशीं तयार जातात ताचो अभ्यास जाता. उतराचें मूळ, धातू, कुसां हांचो अभ्यास तातूंत येता. ह्या अभ्याचाचेर आदारून हांवें कोंकणी खातीर मॉर्फोलॉजिकल ॲनलाइजर आनी जनरेटर तयार केला. ५६,३७९ उतरांचो आसपाव आशिल्लो रुपिमीक शब्दकोश हांवें तयार केला. हाचे भायर उतराचें मूळ सोदून काडपी कोंकणी स्टॅमर लेगीत हांवें तयार केला. सद्याक कोंकणी शुद्धलेखन तपासपी सॉफ्टवेअर - कोंकणी स्पॅलचॅकर तयार करपाचो म्हजो वावर चालू आसा. कंप्युटर संबंदीत कोंकणी परिभाशीक उतरावळ तयार करपाच्या आनी ती लोकप्रिय करपाच्या हेतून हांवें एक खास कोंकणी चॅनल लेगीत सुरू केला.

हाचे भायर हांवें कोंकणी भाशे संदर्भांतल्या NLP वावराचो पयलो वयलो नियाळ लेगीत उजवाडाक हाडला जो ऍल्जवीरच्या संगणकशास्त्राचे पत्रिकेंत (impact factor 7.7 /प्रभाव घटक 7.7) छापून आयला. म्हजो वावर आजून चालू आसा पूण मुखा वेल्या संशोधकांक स्वंयचलीत NLP खातीर नवीं आनी फुडारिल्लीं कोंकणी NLP साधनां तयार करचे खातीर म्हजो वावर प्रारंभीक वावर कसो उपेगाक पडटलो म्हणपाची म्हाका खात्री आसा.

**कोंकणीचेर संशोधन करपाक तुका खंयच्यान स्फूर्त मेळ्ळी?**

NLP वयलो म्हजो वावर एम.फील.च्या प्रकल्पा वेळार सुरू जालो. म्हजी मार्गदर्शक डॉ. ज्योती पवार हिणें शब्दांच्या जातीं प्रमाण टॅग केल्लो पन्नास हजार वाक्यांचो कॉर्पस म्हजे कडेन दिल्लो. हो कॉर्पस Technology Development for Indian languages (TDIL) ह्या प्रकल्पा खातीर (जाचे कडेन म्हजी मार्गदर्शक जोडिल्ली आशिल्ली) तयार केल्लो. कोंकणींतलो हो एकमेव टिपणी केल्लो (annotated) कॉर्पस आशिल्लो. एम.फील.च्या वावरा वेळार म्हज्या लक्षांत आयलें की भास संशोधकाक वा कोंकणी भाशीकांक उपेगाचीं

अशीं वा तांच्यांनी सोंपेपणान वापरूं येतलीं अशीं भाशीक साधनांच कोंकणींत उपलब्द नाशिल्लीं. हेच जाणिवेन हांवें ह्या मळार म्हजें योगदान दिवपाचें थारायलें.

**स्वंयचलीत Natural Language Processing (Automatic NLP) म्हणल्यार कितें आनी ह्या मळार लोकांनी कित्याक वावर करूंक जाय अशें तुका दिसता? ह्या मळा वयल्या संशोधनाचो खंय आनी कशे परीन फायदो जावं येता ताचेर इल्लोसो उजवाड घालशी?**

सैमीक भास म्हणजे आमी दुसऱ्या कडेन संपर्क साधूंक, वा स्वताक व्यक्त करूंक वापरतात ती भास. ती आमच्या उलोवण्याची आनी बरपाची भास. NLPचें मळ भासविज्ञान, संगणकशास्त्र, आनी कृत्रिम बुद्धिमत्ता (Artificial Intelligence) हांचे कडेन जोडिल्लें आसा. कंप्युटर आनी मनशाची भास हांचे मदीं सुसंवाद घडोवपा कडेन ताचो संबंद आसा. NLP म्हणजे सैमीक भाशेची संगणकीय हाताळणी. तातूंत लेखन शैलीचो अभ्यास करपाच्या हेतून उतरांची वारंवारताय (frequency) मेजपा सारकें सोंपें काम येता जाल्यार दुसरे वटेन विचारिल्ल्या प्रस्नांक जापो दिवपा खातीर मनशाच्या उलोवण्यांत येवपी उतरांचो अर्थ, गर्भीतार्थांचो वापर समजुपाचें काम हे सारक्यो कठीण गजालीय येतात. NLP संवसाराचे फाटी वेल्या अब्जांनी लोकांक जोडपाक मदत करपी, तरे तरेच्यो सवलती, शिकप साधनां, माहिती, बी मेळोवन दिवपी, शिक्षण, संप्रेशण आनी हेर कितल्याश्योच गजाली आपले सोयीचे भाशेंत तांचे मेरेन पावोवपी एक महत्वाचें साधन.

NLPचीं कांय चड वापरांत आशिल्लीं ॲप्लिकेशनां म्हणल्यार - पार्ट ऑफ स्पीच (पीओएस) टॅगर, नेम्ड ऍन्टिटी रॅकॉग्निशन- Named Entity Recognition(NER), भाव विश्लेशण (सॅन्टिमॅन्ट ॲनलिसीस - Sentiment Analysis, मॉर्फोलोजिकल ॲनलिसीस- Morphological Analysis. **पार्ट ऑफ स्पीच (पीओएस)** टॅगींग हातूंत उतराचे व्याकरणीक जाती प्रमाण ताका टॅग दितात. कांय NLP वावरांनी उतराच्या वापराच्या संदर्भा वयल्यान त्या उतराचो टॅग थारायतात. **मॉर्फोलोजिकल ॲनलिसीस** (Morphological Analysis) हातूंत रुपीम-विचाराक धरुन उतराची फोडणिशी करतात. उतराचे घडण प्रक्रियेचेर उजवाड घालपी ह्या विश्लेशणांत उतराचें मूळ, ताका लागिल्लीं कुसां, बी हांची नोंद जाता. नेम्ड ऍन्टिटी रॅकॉग्निशन- Named Ebtity Recognition (NER) हातूंत एखाद्या मजकुरांत येवपी वस्तूंचो (entites) सोद घेवन तांचें मनीस, थळां, संस्था/संघटणा ह्या आदींच निश्चित केल्ल्या वर्गांनी विभाजन करतात. NLP पद्दती वापरून मनस्थिती, भावना, वृत्ती सारक्या गजालींची वा व्यक्तिनिश्ट माहितीची विस्कावणी भाव विश्लेशणांत जाता. अशे तरेच्या वावरा खातीर भासविज्ञानीक आनी कंप्युटर विज्ञानीक दोगांयचें तितलेंच सहकार्य आनी क्रियाशील सहभाग गरजेचो. भासविज्ञानीक भाशीक घटकांचेर टिपणी करता आनी कंप्युटर विज्ञानीक कंप्युटराक समजतली आनी तातूंतल्यान तो शिकतलो अशे ''भाशें''त घटकांची मांडावळ करता.



**NLP वावरा संबंदान कोंकणीची स्थिती कितें आसा? हेर भारतीय भासांचे तुळेन कोंकणी खंय आसा अशें तुका दिसता?**

उलोवप्यांची संख्या चड आशिल्ल्यो भासो देखीक हिंदी, तमीळ, मलयाळम, मराठी बी ह्या भासांनी NLP संबंदीत वावर जायत आसा. कोंकणी मात हे बाबतींत बाल्यावस्थेंत आसा आनी हालींच्या कांय वर्सांनी NLP वावराच्या नकाश्याचेर आपलें अस्तित्व नोंदोवपाचो यत्न करीत आसा. कोंकणींत जरी कांय प्रमाणांत आदीं वावर जाल्लो आसलो तरी तो परिपूर्ण आनी सातत्यान जावंक ना. हाचें कारण म्हणल्यार जण एकल्या संशोधकान आपल्या विशया पुरतोच वावर केल्लो आसा जो खोलायेन जावपाची गरज आसली. कोंकणी NLP वावरा खातीर आनीक एक मर्यादा म्हणल्यार टिपणी केल्ल्या कॉर्पसाचो अभाव. अशे तरेचो कॉर्पस तयार नाशिल्ल्यान कंप्युटराक प्रशिक्षण दिवंक मेळना.

**कोंकणी NLP संबंदान वावर करतना तुका कसल्या आव्हानांक फुडो करचो पडलो?**

कसल्याय NLP ॲप्लिकेशना खातीर गरजेचो तो टिपणी केल्लो कॉर्पस तयार करप हें एक मोठें आव्हान. टिपणी करतना खुबश्यो गजाली ध्यानांत घेवंच्यो पडटात. देखीक उतराक ताचे व्याकरणीक जाती प्रमाण टॅग दिवप काय ताच्या वापराच्या संदर्भा वेल्यान बी हें थारावचें पडटा. टिपणीच्यो कांय देखी सकयल दिल्यात (मूळ वावरांत उतराचो उच्चार अंतरराश्ट्रीय स्वनलिपीच्या - International Phonetic Alphabet [IPA]च्या नेमां प्रमाण तशेंच देवनागरी लिपयेंत लेगीत बरयला, मात ह्या लेखांत तो सोंप्यो कुरवो वापरुन दाखयला) [O = ऑ, I = ई, M = अनुस्वार, S = श, E = ऍ, a = अ, aa = आ, dz = ज (ज्य), : = लांब उच्चार]

| **उतर (उच्चार)** | **टॅग** |
|---|---|
| IIMp (लींप) | - JJ (adjective) विशेशण |
| ASEM (अशें) | - is RB (adverb) क्रिया विशेशण |

*Named Entity Recognition (NER)* प्रयोगां खातीर उतरांक हे टॅग दितात:

| **उतर (उच्चार)** | **टॅग** |
|---|---|
| dinaana:th (दिनानाथ) | - ENAMEX / Person व्यक्ती |
| don (दोन) | - NUMEX / Number आंकडो |

Sentiment Analysis खातीरचे कांय टॅग हे:

| | |
|---|---|
| mEllo (मेह्लो) | - Negative नकारात्मक |
| taadzEM (ताजें) | - Positive सकारात्मक |

रुपीम-विचाराक धरून केल्लें उतरांचें विश्लेशण (Morphological Analysis) उतराचें मूळ, ताका लागपी कुसां हांचे विशीं माहिती दिता. देखीक, faatraak (फातराक) हातूंत फातर हें मूळ उतर जाल्यार ताका

*(पान २८ चेर)*

# आवाजाच्या जगांत शेणिल्लें... हांव

शकुंतला भरणे



भुरगेपणांत आशिल्ली संगीतांतली आवड हांव वाडटां तशी वाडत गेली. मोन्टेसरी सावन एम. ए. ची पदवी घेता मेरेन वेगवेगळ्या मळांचेर जंय जंय सांस्कृतीक कार्यावळ करपाची संद मेळ्ळी ती ती हावें केन्नाच सोडली ना. गाणे, नृत्य, अभिनय, काव्यवाचन वक्तृत्व सर्ती सारक्या उपक्रमांनी हांव मोठे उमेदीन भाग घेवपाक फुडें सरतालें. इनामांय मेळटालीं, ताका लागून आनीकय ऊर्बा मेळटाली. हातूंतल्यान म्हज्यांतलो आत्मविश्वास वाडीक लागलो.

सादारण १९७०-८० चो काळ तो. पणजे आकाशवाणीचेर 'खळार-मळार' हें खास भुरग्यांखातीर आशिल्ले कार्यावळींत कमलादेवी राव देशपांडे (ताई) आनी कृष्णा लक्ष्मण मोये (हरीमाम) हांचे भरशींत हांसतां खेळटां गिन्यांनात भर पडटाली. शालेय शिक्षणा बरोबरच कलेच्या मळारय हातूंतल्यान मनाक धादोसकाय मेळटाली.

शालेय शिक्षण जातकूच कला शाखेंत वचपाचें सोडून कॉमर्स शाखेंत पावलें. हाचें कारण म्हणल्यार तेदे वेळार दामोदर कॉलेज ऑफ कॉमर्सांत नाटक, गायन सारकेल्यो खूब सांस्कृतीक कार्यावळी जाताल्यो आनी हांव थंय ओडून गेलें. याद जाता त्या प्रॉफेसरांची विजय सातपुते, सुहास मुळे, पटवर्धन जांचो म्हाका आदीं परीचय आशिल्लो. गोमंत कला थिएटर्स ह्या नावान एक क्लब केल्लो आमी आनी तातूंत राजू नायक, वैकूंठ पै फोंडेकार, सतीश प. नायक, श्रीधर कामत, मनोज कामत अशीं धाएक जाणां नाटकां सारकेल्यो सांस्कृतीक कार्यावळी करपाक उमेदीन वावुरतालीं. म्हज्यांतल्या कलेच्या ओघाक हांगा वाव मेळटलो हे नदरेन हांव हांगा पावलें. आनी तशेंच जालें. कलेंत आशिल्ले म्हजे आवडीक सारें उदक मेळत गेलें आनी ह्या मळार पावल घालपाचो म्हजो हावेस वाडत गेलो.

कॉलेज जिवितांतल्यान भायर सरताना म्हज्यांतलो हो खतखत म्हाका ओगी बसपाक दिना जालो. तरणेपणाच्या हुमऱ्यार आसतना समाजांतल्यो वेगवेगळ्यो घडणुको अस्वस्थ करपाक लागल्यो आनी तातूंतल्यान जें स्फुरलें तें काव्यांतल्यान व्यक्त जावपाक लागलें. नकळटानां बरे तरेन कोंकणींतल्यान ताचें प्रकटीकरण जालें आनी त्याच नेटार कविता सर्तिनीं वांटो घेवन इनामांय मेळ्ळीं. इतलें आसूनय म्हजें लक्ष संगीता वटेन चड केंद्रीत जाल्लें हाची म्हजी म्हाकाच जाणीव जाताली.

स्वरमंच संस्थेंत संगिताचें प्रशिक्षण घेवपाक दाखल जालें. सर रामराव नायक हांच्या मार्गदर्शनाखाला म्हाका संगिताचे मुळावे धडे मेळ्ळे. ताणी म्हज्यांतली उमेद पारखिली आनी चिकाटीन काम करतलें ह्या गुणाची तांकां खात्री पटली. ताका लागून फकत परीक्षे पुरतें म्हाका शिकयनासतना एका गावप्याक गरज आसा तेप्रमाण जाय तितलो वेळ दिवंन शिकोवपाक सुरू केलें. गळो तयार करपाचे नदरेंतल्यान सद्दां फांतोडेचेर ताणीं म्हाका तालीम दिवपाक सुरवात केल्ली. संगीत विशारद हावें पास केली आनी संगीत अलंकार करपाक सुरवात केली. तेन्नाच संगीतांतली 'स्पीक मायके' हे नावाजते संस्थेची संगीतांतली म्हायती मेळ्ळी. शास्त्रीय संगीत शिकतल्या भुरग्यांक उमेद मेळची म्हण नामनेचे कलाकार तांचे खातीर गुरू मेळोवन दिवपाची वेवस्था करतात हें कळ्ळें तेन्ना ते नदरेंतल्यान यत्न सुरू केले.

म्हज्या यत्नांक रोकडेंच यश मेळ्ळें नासलें तरी थोड्याशा उसरां वाट मेळ्ळीच. ऊस्ताद छोटे रहिमत खाँ हांणी पद्मविभूषण डॉ. गंगूबाई हानगल हांचे कडेन वळख करून दिली. म्हजी संगीताची जीण घडोवपांत दीपस्तंभ जावन उजवाड फांकपी चंद्रकांतबाब केणी, उदयबाब भेंब्रे, पुंडलीकबाब नायक आनी हेमा ह्या कोंकणी मनशांचीं नावां म्हज्या आयुश्यांतलीं केन्नाच पुसून वचचीं नात. उदयबाब आनी आमी तांचे गाडयेन हुबळी गंगूबाई हानगल हांचे कडेन पावलीं. तांचें ग्रीन सिग्नल मेळनाफुडें १९८८ त हांव डॉ. गंगूबाई कडेन शास्त्रीय गायनाची गुरूकूल पद्दतीन तालीम घेवपाक हुबळी आयलें.

म्हजी हांगा सावन गायनाची खरी कारकिर्द सुरू जाता. हांवें गंभीरतायेन संगीतांत लक्ष घाल्लें. रियाज, तालीम, संगीताचेर वाचन, संगीताचेर बरोवप ह्यो सगळ्यो गजाली हुबळी सावन चालू उरल्यो. म्हजो पुराय वेळ संगीत आनी संगीतांतूच वतालो. पूण तरीय वेळ आपल्या खातीर थोडोच रावता. जगपा खातीर अर्थीक थिराय तितलीच म्हत्वाची आसली. म्हाका म्हज्या पांयार उबें रावपाक जाय ही जाणीव जातकूच हांव वाट सोदपाक लागलें. एखादे सरकारी वा खाजगी संस्थेची शिष्यवृत्तीय म्हाका मेळूंक नाशिल्ली. कोंकणी लेखक ज्ञानपीठ विजेते रवीन्द्र केळेकार हाणीय तेखातीर केल्ले यत्न फळाक आयलेनात.

हुबळी वचचे आदीं दोन वर्सां हांव मनोविकास स्कुलांत शिकयतालें. तातूंतल्यान थोडी बचत जाल्ली ती हातांत आशिल्ली. ती सुरवेक उपकारली. इश्ट, लागशिल्ल्यांनी मदत केली. पूण अशें कितलो तेंप चलतलें? दुसऱ्यांची मदत घेवपाक मन कचरतालें. मानसिक ताण येतालो. गाणें शिकपाक तर जाय. तेंवूय येदे मोठे श्रेष्ठ गायिके कडेन पावलां. वाट तशी सोपी नाशिल्ली. हांव गायिका जातलेंच काय म्हणपाचो तसो भरवंसो नाशिल्लो. तेच भशेन हांव जंय शिक्षण घेतां ताका अकादेमी सारकी फाटभूंय नाशिल्ली. गुरू-शिष्य परंपरा तशी सर्टीफिकेटां वा डॉक्टरेट बी कितें मेळोवन दीत होवूय भाग नाशिल्लो. हें सगळें चिंतून म्हजेर ताण येवपाक लागलो. आनी एक दीस अचकीत म्हज्या गुरू कडेन आसतनाच टायम्स ऑफ इंडियाचेर एक जायरात वाचली. आकाशवाणी पणजे केंद्राचेर दोन निवेदिकांच्या जाग्यां खातीर आशिल्ली ती. तेन्नाच थारायलें, अर्ज धाडपाचो. हें

केंद्र तशें म्हजें संवकळिचें आशिल्लें. 'खळार मळार', 'युवावाणी' सारक्या कार्यावळींतलो म्हजो सहभाग, नभोनाट्यांत कलाकार म्हण भुमिका केल्ल्यो आशिल्ल्यान म्हज्यांत तळमळ निर्माण जाली. म्हज्या गुरूजींनीय पणजे आकाशवाणीची तोखणाय केली. शास्त्रीय संगीतांत हें केंद्र कितलें वैभव संपन्न आसा हाचीय तूस्त तिचे कडल्यान आयकली आनी दिसलें, हांव थंय पावलें जाल्यार हें सगळें म्हाका आयकुपाक मेळटलें आनी म्हज्या संगीताच्या गिन्यानांत भर पडटली. आर्थीक प्रश्न सुटावो जातलो आनी हांव स्वतंत्र जातलें, गुरूजींक हावें भियेतूच सांगलें, तांकां मान्य जालें. ताणी म्हणलें, 'अर्ज कर. गायिका जावप आपल्या हातांत ना. गाणें शिकप आनी शिकोवप आमच्या हातांत आसा. गाणें शिकूच, पूण नोकरीय कर.'

तांचे आशिर्वाद आनी म्हजो निर्धार गांठीक आशिल्लो. आकाशवाणीचे निवेदिकेचे परीक्षेचे वेगवगेगळे पांवडे हांव बरे तरेन हुपीत गेलें आनी म्हाका ही नोकरी स्वबळाचेर मेळ्ळी. नोकरेक रुजू जाल्लो तो दीस २० मे १९९१ म्हजे घट यादींत उर सारको. ह्याच दिसा आदले प्रधानमंत्री राजीव गांधी हांची हत्या जाल्ली आनी दुसऱ्या दिसा येरादारीचीं सगळीं साधनां बंद आशिल्लीं. म्हाका तर मडगांवच्यान पणजे कार्यालयांत येवप गरजेचें आशिल्लें. हावें कशेय तरेन कार्यालयांत घालून घेतलें. आतां म्हजे नोकरेची खरी सुरवात जाली ती भक्ती संगीत गावून. देश सुतकांत आशिल्ल्यान भक्तीगीतां गावचीं पडलीं. मजा म्हणल्यार रेडिओचे निवेदिकेचे भुमिकेपरस म्हाका संगीताचे भुमिकेंतल्यान म्हजे आकाशवाणीची कारकीर्द सुरू करची पडली. नोकरी आनी संगीत हातूंत समांतर लक्ष केंद्रीत करपाचें सपन बाळगून हुबळी सावन गोयांत आयिल्लें. सुरवेच्या काळांत हें दोनूय सांबाळप कठीण गेलें. मडगांव ते पणजे यो-वच आनी तातूंत शिफ्टिचें काम, बरीच सर्कस करची पडटाली. रियाजाक फाव तितलो वेळ दिवप आनी निवेदक म्हण ते भुमिकेंत समरस जावप भोव कश्टांचें जातालें. सरकारी नोकरी जाल्ल्यान मायका मुखार उलोवंचें पयलीं तें अधिकाऱ्यांक वाचून दाखोवप, चुको आसल्यार त्यो सुदारप, सगळेंच म्हाका विचित्र जावन पडिल्लें, बिनधास्त मायका मुखार उलोवपाची तशी संवकळ आशिल्ली पूण हांगा एकेक उतर जोखून उलोवंचें पडटालें. बाकिचें निवेदन सगळें स्टिरीओटायप आसतालें. तातूंतल्यानय वेगळपण सोदपाचो म्हजो यत्न चालू आशिल्लो. उण्यांत उण्यो चुको उरच्यो हेखातीर धडपडटालें.

सगळें जुळोवन घेतना खासावीस जातकीच गुरूजी गंगूबाई म्हणजेच अक्काजींची तीव्रतायेन याद जाताली आनी रडपाक येतालें. पणजे आकाशवाणीचें संगीत संग्रहालय प्रगल्भ आसा म्हणिल्ल्या तांच्या उतरांनी म्हाका धीर दिल्लो. हांव संगीतच सोदतालें पूण सुरवातीक म्हाका तशें कांय मेळना जालें. पूण आतां नोकरी धरिल्ली तर आसा. धीर धरप म्हज्या वांट्याक आयिल्लें,

अशे तरेन पयलींचीं दोन-तीन वर्सां म्हाका नोकरेचे शारीरीक तशे मानसिक खूब त्रास जाले. पूण जशी संवकळ जायत गेली तशें त्या कामाची म्हाका गोडी लागली आनी निवेदनाचो वावर म्हजे खातीर ओड लावपी थरलो. सभावीक हांव उद्घोषिकेचे नोकरेचे आधीन जालें अशें म्हणचें पडटलें.



निवेदन ही एक सुंदर कला. जशी गाण्याची कला संगीताचो ताल, सूर आपणावपाची तशीच निवेदनाची कला संगीत, सूर आनी तालाच्या नादान आमची नीजाची गद्य भाशा केळोवपाची. निमाणे कला खंयचीय आसूं तिची शिस्त आनी अंतरंग एकूच तो म्हणल्यार रसीक. रेडियोचो आयकुपी वेगळो. ताका म्हजे कडल्यान कितें अपेक्षीत आसा हें जाणून घेवपाचो जेन्ना हावें यत्न केलो तेन्ना हळू हळू हांव निवेदिका म्हण आयकुप्यांनी मानून घेवपाक सुरवात केली. आनी उपरांत हांव म्हजे निवेदन शैलीच्या मोगांत कशें पडलें तें कळ्ळेंच ना. इतलेंच न्हय तर मुखार रेडियो प्रेमींच्या काळजांत घर करून बसपा इतलें स्थानापन्न जालें. हें सगळें इतलें नकळटाना घडलें, ह्या वर्साच्या मे २०२१ त म्हज्या आकाशवीणीच्या वावराक तीस वर्सां भरतलीं.

संगीत, नाटक, कला, चित्रकला, शिल्पकला, शेतकार भावाच्यो कार्यावळी, दोतोरांचे वेगळेवेगळे विशय, लोककलेचे विशय, अदमासपत्रकां आनी साबार विविध विशयांचेर चर्चा जाल्ल्या कारणान गिन्यानांत भर पडटा आनी उलोवपाच्या संवादांतल्यान मनाचेर संस्कारय घडटात. आज निवेदिका म्हण वावुरतना ह्या वेगळ्याच माध्यमांत आस्पाविल्ल्या अश्ट तासांच्या ह्या कलांच्या हांव मोहांत पडलां म्हणटना अतिताय जावंची ना. हे सगळे अणभव म्हाका एक बरी निवेदिका घडोवपाक उपकाराक पडल्यात. सदांचीच एक स्टिरोटायप निवेदन शैली आनी संवादफेंकींत जीं उतरां येतालीं तातूंत थोडो भोव बदल घडोवन आयकुप्यांच्या कानार विविधताय पडची हो यत्न करपाकय उमेद येता. आदल्या तेपार डीजिटल जग नाशिल्लें. आकाशवाणी हें एकमेव अशें माध्यम आशिल्लें जंय गायक, संगीतकार हांचें नाव लोकप्रिय जावपाक वाव मेळटालो. देखून तांच्या संगीताचे परिपक्वते परसूय तांचें नाव लोकां मेरेन पावप हें म्हत्वाचें आसतालें. पूण आयच्या बदलत्या नव्या जगांत इंटरनेट, गूगलचेर सगळें मेळटा. जें सगळ्याक मेळना तेंच आमी आकाशवाणीच्या माध्यमांतल्यान पावोवप ही गजाल हांव एक कलाकार आशिल्ल्यान म्हाका बेस बरी उमगली. आनी गायक, संगीतकार, गीतकार हांचीं नावां तर सांगपच पूण त्या गीताचेर, संगीताचेर, तातूंतल्या अर्थाचेर आनी गीतांतल्या भावार्थाचेर उलोवन गीत लोकां मेरेन पावोवपाची एक वेगळीच वाट घेतली.

खंयचीय नवी गजाल संवकळेची जावंचे पयलीं लोकांक परंपरा मोडिल्ल्याचें दुख्ख वा वेदना तर जातातच. तशो त्यो थोड्यांक जाल्योय बी. पूण थोडे दीस गेल्या उपरांत लोकांकूय तें आपसूकच आवडूंक लागलें. थोड्याश्या नजाकतदार ढंगान आनी नमळिकायेन उलयतकच लोकांक तें मानून घेवप तर सोपें जालेंच आनी तेभायर संगीताचें श्रवण करपा खातीर वेगळेच कान तयार जावपाकय बरें पडलें. अर्थांच ही गजाल कांय सुजाण रसिकांनी म्हाका सांगली ती ह्या लेखाच्या निमतान उलोवन दाखयतां. हें एक मोठें धाडसाचें काम हावें केलें अशें हांव म्हणन. थोडोसो विरोध आपणावनूय म्हाका म्हजेर विश्वास आशिल्ल्यान थोडें बरें जालें. पूण म्हजो चडानचड वेळ रेडियो

माध्यामाचोच विचार आनी वावर करपांत वचपाक लागलो. फाल्यां करपाचें निवेदन आज अभ्यास करूनच वचप आनी हातूंतल्यान म्हज्या आंगांतली कला चौफेर जावपाक आपसूकच आकाशवाणीचो खूब मोटो आदार जालो.

आकाशवाणीचेर रूजू जावचे पयलींच हावें निवेदन, काव्य, कथा आनी लेख, गायन ह्या सगळ्या मळांचेर वावर केल्लो. म्हणूनच म्हाका ह्या कलांचो वापर आकाशवाणी नांवाच्या श्राव्य माध्यमाक हावें कित्याक वापरचो न्हय? असो ठाम विचार करून हावें आकाशवाणी आनी निवेदिकेची नोकरी एक आव्हान म्हण स्विकारली. तशें पळयल्यार तेन्ना हावें एम. ए. केल्ली. म्हज्यान प्रोफेसर जांव येतालें. संगीत मळाचेर संगीत महाविद्यालय, कला अकादमींत म्हाका तसो खूब वाव आशिल्लो. पगारूय तसो चडूच आशिल्लो. म्हज्या घरच्यांचे आनी इश्ट मंडळीचेंय म्हणणे आशिल्लें हावें आकाशवाणी सोडची. प्रोमोशनां खास नात. स्कोपय व्हडलोसो ना. संगीत, कला फुडें व्हरपाकय स्कोप ना. अशें खूब जाणांचें म्हणणें आशिल्लें. हावें फकत आयकून घेतलें. म्हजे नदरेन म्हाका जें दिसलें तें घडये तांकां समजावपाक म्हज्यान जांवचें नाशिल्लें. पूण आकाशवाणीचे हे निवेदिकेचे नोकरेन म्हाका समादान तर दिलेंच तेभायर म्हाका लोकप्रियताय मेळोवन दिली. आयकुपी लोकांनी म्हजी भरपूर तोखणाय केली आनी खूब लाडय केले. तातूंतल्यान म्हाका ऊर्बा तर मेळ्ळीच आनी म्हजो आत्मविश्वासूय वाडत गेलो.

एके शास्त्रीय संगीता सारके व्यापी कलेक गंभीरपणान घेवन बसतना आकाशवाणीची निवेदिका हें कामूय म्हज्या हिसपान तितलेंच, घडये ताचे परसूय चड गंभीरतायेन घेवपा सारकेंच आशिल्लें. कित्याक तर, एकाच बरोबर लाखांनी लोकां मुखार पावपी आमचो आवाज म्हणल्यार अप्रुपाची गजाल! दरेक उतर वापरतना पुराय विचार करूनच वापरचें पडटालें. ल्हानशी लेगीत चूक घडल्यार आकाशवाणी माफ करीना. एकदां वाऱ्यार गेल्लें उतर फाटीं घेवपाक मेळना. दरेक गजाल वेवस्थीत जावप आनी वेळेच्या बंधनात जावप तें म्हत्वाचें.

शास्त्रीय गायन हें संगीत मोग्यां पुरतें मर्यादीत कारण थंय आसपी सगळे संगीत प्रेमी रसीक. पूण आकाशवाणीच्या माध्यमांतल्यान वेगवेगळे तरेचे रसीक, सामके सुजाण रसीक, फकत आवड म्हण आयकुपी रसीक, चिकित्सक म्हण एक वर्ग आनी गांवगिऱ्या वाठारांतले मन:पुर्वक श्रद्धेन आनी भक्तीन आकाशवाणी आयकुपी रसीकय आसतात म्हणटकच ह्या सगळ्या वर्गांतल्यान रसीकांक समादान दिवप आपल्या आवाजाच्या माध्यमांतल्यान ही गजाल तशी सोपी न्हय.

नोकरी करतना एक गजाल हांव शिकलें ती म्हणल्यार आपले नोकरे कडेन प्रामाणीक रावप, कामाचेर निश्ठा दवरप, उलोवपांतली, वागण्यांतली तशेंच विशय मांडपाची सहजता तशीच दवरप आनी सिनियरांचो आदर्श घेवप पूण अनुकरण करप ना. कित्याक तर सदांच नाविन्याचो स्विकार करपांत म्हाका आवडटालें. एक कलाकार ह्या नात्यान म्हजी आपली अशी एक विचार-पद्दत आसा. तिचो वाऱ्यार उलयतना योग्य रितीन उपेग करप. संगीत, नाटक, कविता आनी साहित्य ह्या म्हजे भितर आशिल्ल्या विविध कलांच्या गुणांचोय जाणिवपुर्वक वापर करप. मायक ओपन जालो काय आपसूकच एक आत्मविश्वास, उमेद, उत्साह आनी धीर येवंक जाय आनी हें तेन्नाच जाता जेन्ना आपूण पुराय गृहपाठ करून वता. हेर नोकऱ्यां भशेन ही नोकरी न्हय हें सत्य. ते नदरेंतल्यान स्वत:अपडेट जायत रावप. आपलें गिन्यान वाडयत रावप. हें गिन्यान फकत कला आनी हेर नित्य घडणुकां पुरतें मर्यादीत न्हय, तर तंत्रगिन्यान, संगणक गिन्यान, डिजीटल जगा कडेन लागसारपण करपाचो यत्न ह्या सगळ्या गजालींची संवकळ दवरप. हें सादून येवपाक तसो खूब वेळ वता कित्याक तर म्हजो जल्म ह्या डिजीटल आनी कंप्यूटर वर्ल्डा पयलीं जाल्लो. म्हणटकूच हीं तांत्रीक माध्यमां समजून घेना जाल्यार आज म्हाका कितें म्हणपाचें आसा आनी म्हणलां तें पावोवपाक त्रास जातलो. लोकांक जें दिवपाचें आसा तें दिवपा खातीर तंत्रगिन्याना कडेन संवकळिचें जावन रावप हें खूब म्हत्वाचें आसा. आयच्या काळाक अनुसरून हाका पर्याय ना.

योग्य दिकेंतल्यान अभ्यास करतकूच विश्वासूपणाची खात्री जाता, हांव उलयतां तें सत्य आसा हाचो भरवंसो मेळटा. कुटूंबीक जिणेचो आनंद हांवे खूब थोडो घेतला. म्हजो चडानचड वेळ गाणे, रियाज, वाचन, कार्यावळी करपाक तशेंच आयोजनांत वता. कार्यावळींच्या निमतान गोयांत आनी गोंया भायरय बी भोंवडी जातात. तेखातीर जिणेंत संघर्ष तर सदांच चालू आसता. इत्सेचें बळगें आसा म्हणून हें सगळें करीत रावतां. केन्ना केन्ना घरांतल्या मनशांकय म्हज्या येद्या आटापाची आनी कामाची कल्पना येना. ताकाय हांवूच जापसालदार आसां. कारण खूब फावटीं तांकां समजावपाक म्हजेलागीं वेळय आसना. अशा वेळार थोडीशी निरशेवणी येताच. पूण ती खीणभरच आसता. एक गजाल मान्य करपाक जाय ती म्हणल्यार अशी निरशेवणी आयले बगर आपले भितरली जिद्द वाडूंक पावचीना. देखून हांव सदांच म्हज्याच जगांत आत्मसंतुश्टशें रावतां.

तशें पळोवपाक गेल्यार आमी मनशां वावुरतात थंय-थंय, त्या-त्या क्षेत्रांनी थोडें भाव राजकारण हें चालू आसताच. म्हजें तेंच बरें आनी खरें म्हणून दुसऱ्यांक कांय न्ही करपी लोकय आसतात. आपलो कंपू करून आपल्या फावराद आशिल्ल्यांक एकठांय हाडून आपलीं कामां सादोवन घेवपी लोकय खूब पळयले. धडाधड तोंडावयल्या तोंडार सामको दाखोवन केल्लो अन्यायय खूब फावटीं सोंसचो पडलो. तो सोंसतना म्हाका फावतालें तें भलत्याकच मेळ्ळें तें पळोवनय मातशें वायट दिसलें खरें, पुणून एक गजाल सुर्या इतली सत्य म्हज्या जिवितांतली ती म्हणल्यार म्हजे कलेच्या सच्चाईन आनी पारदर्शकतेन म्हाका केन्नाच निराश केलें ना. आनी तेचबरोबर म्हाका केन्नाच सकयल पडूंक दिलें ना. वयल्यान म्हजी कले वयली श्रद्धा म्हाका तारीत रावली, राखत रावली. असंख्य अशा आडमेळींतल्यान लेगीत हांव वाट काडीत रावलें. आजूनय काडटां. कलेच्या रूपानूच ही अद्भूत आनी अदृश्य अशी शक्त जी म्हजे भितर संचारिल्ली आसा तिणेच म्हाका ही दिव्य शक्त दिल्या आनी तिकाच हांव सरस्वती म्हणून भजतां आनी निसुवार्तीपणान कलेची सेवा करीत रावतां. जाता तोंमेरेन करीत रावतलें.

*(फुडें चलता)*

संपर्क : 8888407911



# अप्रवासी सुखिनः सन्तु

सुमेधा कामत देसाय



संस्कृतांतल्या एका सुभाषिताचे हे एके वळीचो असो अर्थ जावन आसा - जो मनीस केन्नाच प्रवास (भोंवडी) करिना, ताचे सारकेलो सुखी तोच.

हाचो अर्थ असो आसा की, जो मनीस प्रवास करता ताका खूब अडचणींक तोंड दिवंचें पडटा. प्रवासाक खंय वचप? कित्या खातीर वचप? कितले दीस रावप? कितल्या जाणांक बरोबर घेवन वचप? ह्या सगळ्यां विशीं पूर्वतयारी करची पडटाली.

पयलींच्या काळा पासून मनीस जात प्रवास करत आयिल्ली आसा. मनीस पोटा खातीर प्रवास करतालो. केन्ना ताका पयलीं आयिल्ल्या मनशांनी धांवडावन घातिल्लो आसतालो त्या कारणांक लागून तो सतत स्थलांतर करत रावतालो. ते ताचें स्थलांतर म्हणजे प्रवासूच.

केन्ना केन्ना हांव पंचतंत्रांतल्यो काणयो वाचतालें. थंय म्हाका एक संदर्भ मेळटालो. चार ब्राह्मणपुत्र अध्ययन पूर्ण जातकीर एका जाग्यार मेळटाले. आनी ते फुडले दिकेन वचपाक तयारी करताले. एक वर्स भायल्या प्रदेशांत काडून परत ह्याच जाग्यार मेळप आनी अणभवांचें आदान–प्रदान करपाचें एकामेकांक आश्वासन दिताले. तें वाचून म्हाका खूब उमेद जाताली. हांवूय त्या ब्राह्मण पुत्रां भशेन एका वर्साचे भोंवडे खातीर भायर सरचें आनी खूब अणभव एकठांय करचे अशें म्हाका दिसतालें. योगायोगान म्हाका ल्हानपणा पासून प्रवासाच्यो खूब संदी मेळत गेल्यो आनी हांव प्रवासाचे भट्टेंतल्यान तापून भायर सरलें.



जो मनीस सतत प्रवास करतात. तो अष्टावधानी आसचो पडटा. प्रवासांत आपले भोंवतणीं कितें घडटा, हाचेर ताणें सतत लक्ष दिवचें पडटा. तसो तो नासत जाल्यार रानांत पडटलो.

प्रवासांत योग्य ते निर्णय झटपट घेवंचे पडटात. घटना आतां घडल्या, फाल्यां निर्णय घेतलें जाल्यार जायना.

प्रवासांत खाणा जेवणाचे खूब हाल जातात, तुज्या प्रांतांतलें ते भायर तुजे आवडीचें जेवण मेळतच हाची खात्री नासता.

तुका फांतोडे उठचें पडटा आनी रातचें उसरां न्हिदचें पडटा. तुजीं कामां तुकाच करचीं पडटा. आनी सगळ्यांत निमाणें, तुका दुयेंत पडपाचो कसलोच अधिकार नासता.

×××

ह्यो सगल्यो आनी असंख्य गजाली हांवें आयुश्य भर अणभवल्यात. ते भायर हांव एक बायलमनीस. खंयूय वतना म्हाका म्हज्या स्त्रीत्वाचो सतत भंय दिसत आसता, त्या भंयातल्यान म्हजी सुटका ना. कोणाचीच नासता. समाजांत जो पर्यंत विकृत मनशां आसतलीं तोमेरेन हो भंय कायम उरतलो.

×××

हांव म्हाका आयिल्ल्यो कांय अडचणी आनी ते विशींचे अणभव सांगूंक सोदतां.

हांव एका गिमाळ्यांत मनालीक पांय भोंवडेक गेल्लें. आयोजक संस्था पुण्याची म्हण्टकीर पुणे ते पुणे असो प्रवास आसलो. पुण्याक एक रात काडून हांव दुसऱ्या दिसा पुण्याच्या बस स्टॅण्डार पावलें. हांव रस्त्याचेर रिक्षांतल्यान देंवलें. म्हजे बरोबर धा बॅगां आसली जातूंत म्हजे स्वेटर्स, कानटोपी, मफलर, सत्री, रेनकोट, बूट हो सगळो पांया भोंवडेचो जामानिमा आसलो. थोडीभोव कालचे राती पुण्याक खरेदी केल्ली. पितळेची बाक खडी बी. तीय हाका, ताका... म्हजें सामान पळोवन कुली धावून आयले. तांणी धा बॅगो उखलपाक ते वेळार पांचशी रुपया सांगले. म्हजे मुखार २५-३० पावलांचेर म्हजी कदंबा बस उबी आसा पूण धा बॅगो एकाच वेळार उखलून म्हज्यान चलपाक जावचेना. म्हजी अडवणूक, सतावणूक, पिळवणूक करपी त्या हमालांचो म्हाका खूब राग आयलो. जर प्रवासांत तीन मनशां आसत जाल्यार इल्लें इल्लें करून तुमचें सामान तुमी व्हरुंक शकतात. एक मनीस मूळ जाग्यार रावता. दुसरो मदीं आनी तिसरो निमण्या जाग्यार.म्हज्यो बॅगो आकारान व्हड नासतात. ल्हान ल्हान पूण संख्या चड. ती पळोवन लोकांक म्हजी काकळूत येता आनी हमालांक उमेद चडटा.

हांवें कितलें वांटपण केलें जाल्यार ते कशेच सकयल येनात जाले.

इतल्यान दोन-तीन भिकाऱ्यांचीं भुरगीं म्हजे मुखार उबीं रावली. ''ताई, एक रुपया द्या ना.'' करुन म्हजे कडेन भीक मागूंक लागलीं. त्या पंदरा-सोळा वर्सांच्या तीन म्हेल्या भुरग्यांक पळोवन म्हज्या मनांत एक विचार आयलो. ह्या हमालांक बुद्द शिकोवयाच.

त्या भुरग्यांक म्हणलें, तुम्हाला शंभर रुपये देईन. ह्या बॅगा उचलायच्या. वनटायम. माझ्या बरोबर पळायचं, कुणीच मागं राहायचं नाही. समोर जी निळी कोल्हीण दिसते ना, त्यात सामान टाकायचं. शंभर रुपया, म्हणल्यार त्या भुरग्यांक सॉर्त फुटिल्ली.

तीं जीं सामान घेवन मॅरेथोन धांवलीं आनी कदंबांत सामान मोखून मारलें. वता आसतना हांवें एक वाक्य आयकलें, हलकट साली, भिकाऱ्यांच्या पोरां कडून सामान नेलं. भडवीनं आमच्या तोंडचे पाचशे रुपये काढून घेतले.

(पूण एक हें सदां जमना. केन्नाय चुकून जमता.)

×××

एकदां अशेंच सोलंग नाला भोंवडेक गेल्लें. बियास न्हंयेच्या कांठार बेस कॅम्प आसलो. न्हंयचे धडेर एल शेपान तंबू उबारिल्लो.

आयोजकांनी म्हजी एका तंबूंत वेवस्था केली. तांतूंत हेर दोन बायलो (ट्रेकर्स) आनी तांचीं ल्हान भुरगीं आसलीं. म्हाका तांच्या सांगातान आयोजकांनी दवरलें. रात जाता तसतशें शीं वाडूंक लागलें. घट कशी जाली, जंयचे थंय थप्प जाली आनी तंबूंत कसल्यो घाणी सुटले. हिवळाणी, घुट्टाणी, दरबराणी, खातसाणी, त्या भुरग्यांनी कितले दीस कपडे बदलूंक नासले काय? काय चेड्डुंत हागिल्लीं मुतिल्लीं काय? म्हेळे मेय हे वटेन ते वटेन उडयल्ले आसत काय? कितले जाणांनी रातचे थंडेक भिवन सकयल्ल्या टारपोलीनाच्या पोंदा शी-शू केली आसत काय, देव जाणां!

भुरगीं रात भर पाद मारतालीं. कॉम्प्लीमेंटरी फुसक्यो मारताली. म्हजो जीव गेलो. हांव तंबू सोडून भायर धांवलें. आयोजकांक सांगलें, म्हाका तंबू बदलून दियात. तांणी म्हळे, दुसऱ्या तंबूंत तुका एकलेंच न्हिदचें पडटलें. हांवें म्हणलें, एकलें जाल्यार एकलें. 'हांगाऱ्या फुडें वागरें खंयचें?' मागीर तांणी म्हाका बियास न्हंयेचे धडेक तंबू दाखयलो. हांवूय मुयतु सुवेर्तु बायलमनीस. अनवळखी गांव, किण्ण जागो, रातची भयानक वेळ. पूण म्हाका कॅम्पाक केन्नाच भय दिसना. पणजे बाजार वागरान रातचें भोंवतना भंय दिसता. करंट गेलो जाल्यार? मागीर हांव काळखांत घरा कशें वतलें, हो भंय.

×××

ते भायर कॅम्पाक रातचो आयोजकांचो पारो आसता.

हांव तंबूंत गेलें. तशें हांव भियेल्लें. रातचो ल्हवूच कोणी तंबूंत रिगलो जाल्यार? हांवें एक काम केलें. म्हजे भोंवतणीं पंदरा-वीस ब्लॅंकेटी रचल्यो. भोंवतणीं म्हज्यो १० बॅगो दाळ्ळ्यो. हातांत टॉर्च घेतलो आनी भितर इजिप्शियन ममी बशेन न्हिदून दिलें.

मध्यान रातीर म्हाका कोण तरी ब्लॅंकेटांनी मोव गुठलो रिगतालो जाणवलो. हांवें व्हडल्यान किळंच मारली, आनी टॉर्च मारली जाल्यार एक हिमालयन सुणेबाब. ताका मध्यानरातीर चड थंडी खावंक लागली म्हण आगट्याची उब सोडून मदांद पोर म्हज्या हांतरुणांत रिगिल्लो. पूण मध्यानरातीर हांतरुणांत रिगिल्ल्या त्या सुण्याचो म्हाका व्हड आदार कसो दिसलो.

फुडें हांवें केदी भानगड केली ती पळयात. उत्तररातीर म्हाका जालें कडकडून. हांव काळखांत उठलें. हे वटेन ते वटेन सांसपिलें आनी तंबूच्या दारांत पावलें. जाल्यार कोणाच्या बापायक सुटच्यो नात असल्यो गांठी मारल्यात. म्हाका अजाप! येदोळ भितर सरतना हांवें गांठी मारिल्ल्याचें नाटक केल्लें. ओणव घेवन आयिल्लें आतां रोखड्योच गांठी घट कश्यो जाल्यो. दोन गांठी हांवें, देवा सायबा करीत सदळ केल्यो आनी 'भुंयारांतलो मनीस' कशें ओणव घेत दिमकुऱ्यांनी चलत तंबुच्या दारांतल्यान भायर सरपाक लागलें.

मुखार किते? एके रात्रीन चमत्कार. बियास म्हजे मुखार व्हांवताली. खळो खळो करीत. आनी हांव ओणव घेवन बियासीच्या उदकांत म्हजें तोंड पळयतालें. हांव आनीक एक पावल फुडें सरिल्लें जाल्यार म्हाका जलसमाधी मेळपाची. मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें. हांव तंबूंत भितर सरिल्लें, फुडल्या दारांतल्यान आनी आतां भायर सरुंक पळयतालें.

फाटल्या दारांतल्यान, अनुभवी लोकांनी मारिल्ल्यो गांठी सदळ करपाची म्हजी म्हण केदी कापाजदाद! राती मागीर फुडल्या दारान भायर सरलें आनी 'तेरी भी चूप आनी मेरी भी चूप' म्हण वग्गी न्हिदलें.

×××

२०१३ साल. काझीरंगा अभयारण्यांत गेल्लें. हतया वेल्यान गेंडे पळोवपाची सैर आसली. हतयार बसपाच्या कल्पनेन आनंदरावाक शेळो घाम फुटलो. तो मयाणाचेरुय बसून रावलो. हेर भोंवडेकार आपापल्या घराब्या बरोबर आसले. घोव-बायल-भुरगीं. हांव मात बाबडें एकलेंच. हांव असले बाबतींत आनंदरावाचेर जबरदस्ती करना. तो हतयार बसून गेंड्या मुखार घालून घेवपी. नस्तें अपशरण! म्हण हांव एकलेंच भायर सरलें. हांव एकलेंच ॲक्स्ट्रा उरतालें. प्रत्येक हतयाचेर वजनाच्या हिशेबान मनशां बसयताले. म्हजे खातीर एक बालक वा किशोर हती हाडलो. एकल्या खातीरूच. पूण ह्या हतयाचेर बरी आरामदायक बैठक नासली.

बाकीच्या व्हडल्या हतयांचेर हौदा (कार्टेरीन आसताली तशी आसन वेवस्था आसली) आसलो. ताचेर लोक सुशेगाद बशिल्ले. चणे-भिकणां खाताले, खिटाविटटाले. म्हाका हतयार बसयल्लें. ती सिस्टीम घोड्यार बसता तशी. म्हजे मुखार एक गनमॅन आसलो. मदीं हांव, फाटल्यान एक गनमॅन. हो फाटलो गनमॅन मात्सो किंवा खुबसो हलकट मनीस आसलो. तो म्हज्या एकटेपणाचो फायदो घेवन म्हज्या आंगार परत परत पडटालो. हती अथांग रानांत. हतया येद्या वाडिल्ल्या तणा (एलिफंट ग्रास)त घुसला आनी हो म्हाका त्रास दिता. एक दोनदा हांव आड्डलें. म्हाका घुसमट्टा म्हूण सांगलें. पूण त्या निर्लज्ज, नीच मनशान म्हाका त्रास दिलो.

आयुश्यांत हांव इतलें भोंवलें, पूण म्हाका कोणेंच असलो त्रास दिवंक नासलो. हांव परत आयलें. आनंदरावाक कितें सांगतलें? कपला तो आयिल्लो जाल्यार म्हाका हो त्रास भोगूंक पडचो नासलो. बायलांच्या नशिबांतले हे त्रास कोणूच केन्नाच काडून वडोवपाक शकनात.

एक सुचना: हती हो खूब व्हडलो प्राणी. तो वयांत येतकीर मादी मेळ्ळी ना जाल्यार खूब हिंस्त्र जाता. ताका आयुर्वेदीक वखदां दिवन थंड करपाचे प्रयत्न करतात. हत्ती वयांत येतकीर ताच्या गंडस्थळांतल्यान मद स्रावता. हतयाचे मानेर बसपी माहुतांक ह्या मदाची बाधा जावन ते कामूक जातात असो प्राचीन साहित्यात संकेत आसा.

हांव ह्या विशयाचेर चड बरयना. हें सगलें बायलां, म्हज्या भयणींक आनी बायलांक धोक्याची कल्पना दिवपा खातीर.

×××

काक्षीरंगा अभयारण्याच्या दारांत एका हॉटेलांत आमी ते राती राविल्लीं. सकाळी हॉटेलांत ब्रेकफास्टाची सोय नासली. (हॉटेलाचे सकयल आशिल्ल्या तळघरांत गांवठी सोऱ्याचें दुकान आसलें. थंय रात भर आनी दिस भर स्थानीक लोक वचून भायर येताले. पाताळांतल्यान मर्त्यलोकांत, वा स्वर्गलोकांतल्यान मार्थलोकांत मदींच दोन चार भटके कुत्रेय त्या तळघरांतल्या ताव्हेर्नांत वचून वयर मार्थलोकांत परत आयले, म्हजी बारीक नदर असल्या गजालींचेर आसता. ओंठ पुशीत पुशीत वयर आयले. इल्लें कुट्ट बी करून आयले नात मू?

×××



मुखार एक गावंठी धाबो आसलो. वयर-सकयल जमीन शेणान सारयिल्ली. थंय एकलो कोण वनमाणूस कसो च्या करतालो. जांव सायबा. ना जाल्यार त्या सुण्या बशेन तळघरांत वचून इल्लें मारून येवचें पडटलें आसलें.

एकलो कोण देंवचार रोटयो भाजतालो. शेजरा एका व्हडल्या तोपांत कसलें तरी तांबडेंच रसायन खतखतालें. कोणाकोणाक मारून भितर वडयल्लें कोण जाणां!

च्याच्या तोपाक तेंकून एक दुदाचो तोप आसलो. (हें आनी दूद कोणाचें काय? हतयाचें बी न्हय मू?) मागीर हांवें म्हजो ब्रेकफास्ट थरयलो. डबल च्या, दुदाचो, पेलो आनी चार रोटयांचो दाळ. त्यो खाल्यो आनी पोट घट केलें. आतां दनपरां दोन मेरेन हुस्को ना. मागीर आमी मेघालयाचे वाटेक लागलीं. थंय आनी कोण कोणाक पोटांत वडोवचे पडत देव जाणा...

×××

एक फावट डेहराडूनच्यान मनाली वतालें. (मनाली हो म्हजो खूब आवडीचो जागो. हांव थंय चार पावटी पावलां. जमता जाल्यार अटलबिहारी वाजपेयी भशेन मनाली एक गिमाळो निवास घेवपाची म्हाका उमेद आसली. एके मनाली भेटेंत आनंदराव एका इस्टेट एजंटाक मेळ्ळो. ताणें सांगलें, हांगा भायल्या लोकांक भूखंड विकतो घेवपाचेर बंधनां आसात. थळाव्या मनशाक भागीदारी दिवची पडटा बी....)

फांतोडे डेहराडून बसस्थानकार पावलीं. ब्रेकफास्ट मेळ्ळो ना. थंयच्यान पोटांत उजो पडूंक सुरवात जाली. वाटेंत बस थांबताली. थंय बेसनाच्या घोळांत बुडयल्ले आनी तळिल्ले पांवाचे कुडके मेळटाले. ते पळोवन पोटांत घांस मारतालो. दनपरां दोन अडेजांक गाडी चंदीगढ पावली. थंय (प्रत्येकी) दोन ग्लास मँगो शेक पिले आनी उपास सोडलो. थंय मनाली वचपी एक बस मेळ्ळी थळावी. सांज जाता म्हणसर कुलू पावलीं. सगळे लोक देंवून गेले. बसींत कोण ना. कुलकुल्याचें शीं खातालें. कंडक्टर केबीनांत बसून तुलसी रामायणाचो एक दोहा म्हणटालो, ड्रायव्हर रिपीट करतालो. रातीं उसरां एका निर्जन जाग्यार - धाब्यार बस थांबली. थंय हांवें तोंडार उदक मारलें. थंय वारो सुटिल्लो. तें उदक परत उसळून म्हज्याच कपड्यांचेर पडलें. धाब्या वेले पोर धावून आयलो. एक व्हडली यादी आयकुपाक आयली. चिकन मसाला, खिमा पाव, ऑम्लेट पाव, भुर्जी, दालकुर्मा, माती गोबोर. हांवें म्हणलें, भय्या एक ग्लास (गिलास) गर्म दूद लाना. थोडासा मख्खन डालना और चार रोटियाँ. भुरगो अजापांत पडलो. रातची जेवणाची वेळ. ही एक मोटेली बायल उरिल्लें सगळें म्हाका खपोवंक राविल्लो. विचारांत पडलो. धाब्यार गेलो. धनयाक म्हळे दोन गिलास दूद, मख्खन और रोटियाँ. बस्स इतना। औरत पागल सी लगती है। धनी तापले ताणें म्हणलें, जो बोला है, वह जलदी लाओ और उनको दे दो। कोई पंडिताईन लगती है। (ताका म्हणपाचें आसलें 'ब्राह्मण बायल' म्हणून.)

भुरग्यांनी मुखार सगळें मांडलें. हांव आयज सबंद दीस भर फकत मँगो ज्युसार आसलें. मागीर रोटयो खावन उपास सोडलो.

×××

खूब कितें कितें बरोवपाचें आसा. जागो पावपाचो ना. केन्ना याद

जाता... मणिकरण पाविल्लें. पलतडीं वचपाक पुलार गोरवां बशिल्लीं. न्हिदिल्लीं. अंदूच्या वर्सा उठपाची तयारी नासली. हांव खंयच्यान खंय मणिकरण (आशिया खंडांतले सगळ्यांत व्हडले उष्ण उदकाचे कारंजे (फाऊन्टन्स) पळोवंक आयिल्लें आनी हे कुंभकर्ण स म्हयने उठपाचे तयारेंत नासले. येतना वतना हांव तांचे फाटी वेल्यान चडून देंवून (भारता भायल्यान खैबर खिंडींतल्यान बी लोक आयिल्ले तशे) मणिकरण गेलें आनी परत आयलें.

लोकांक ही खबर फटूच दिसता... पूण ही हिम्मत हांवें दाखयल्ली खरी.

×××

जर्मनीक ब्लॅक फॉरेस्टांत एक रात आसलें. सांजेच्या जेवणाक तळमजल्या वयल्या रेस्टॉरँटांत बशिल्लें. जेवून परत आयलें, तोंड धुयलें. नायट गावन घातलो. आनी न्हिदपाक हांतरुणार पडलें. तेन्ना याद जाली. हांव पासपोर्ट, डॉलर्स आशिल्ली सामकी म्हत्वाची पर्स सकयल रेस्टॉरन्टांत उडोवन न्हिदपाक गेल्लें. एक हनुमान उडी मारुन हांतरुणा वयल्यान उठलें. त्याच कपड्यांनी धांव मारली. लिफ्टांतल्यान देंवलें. लाऊंजात सगळ्या जगा वयले प्रवासी जेवताले. आमी जेवतालीं तो जागो वेगळो आसलो. हांव अर्द्या नायट गावनांत सैरावैरा धांवतना त्या प्रतिशठीत लोकांनी पळेलें. ते भियले. तेय म्हजे फाटल्यान धांवूंक लागले. हांव धांव. धांव धावलें. काळखात कदेलार म्हजी पर्स सुरक्षीत आसली.

त्या ब्लॅक फॉरेस्टाच्या राखणदारानूच म्हाका वाचयलें.

×××

लास व्हेगास दोन तीन दिसां खातीर आसलें. एका पिरॅमीडाच्या आकाराचें हॉटेल. तसलीं तीन हॉटेलां. तांकां जोडपी एक स्वतंत्र फ्लायओव्हर. ह्या तीन हॉटेलांक ए. बी. सी. हो कोड आसलो. आमी ए न आसलीं. आमचे कुडींत सगळें पिरॅमिडा भितर आसता तें नेपथ्य.

आतां कितें राती हांगा ममी जावन पडपाचें. ते भायर राती कोणें ममीच्या भूतान म्हजो गळो दामल्यार? ते राती न्हिदूच पडली ना. सकाळीं ब्रेकफास्टाक गेलें. खंय तरीं भुंयारांत म्हजी तकली उसळटाली. तें सगळें पळोवन.

येतना वाट चुकलें. भलते कडेन पावलें. बी विंगांत पावले आनी थंय वचून सेक्युरिटीक सांगलें, हांव शेणलां. म्हजो ६५० नंबरचो रूम सोदून दी म्हणून. ताणें शॉर्टकटान मदलीं कुलपां उगडून म्हाका खंयच्या तरी ५० व्या माळ्यार व्हेलें. आनी आपले पर्सनल चावयेन भलत्याचो रुम उगडून दिलो. तो पळोवन हांवें किळंच मारली. मागीर तो परत म्हाका ए विंगांत शॉर्टकटान घेवन आयलो. एक वर फुकट म्हजें आनी ताचें. त्या पिरेमिडांतली आजनेरी बादली आसतली म्हाका.

पयलीं लोक तीर्थयात्रेक वताले. वतना सगळ्यांचो निरोप घेवन वताले. परत येत म्हण कोणाची गॅरंटी नासली. आतां सगळें सोंपें जालां. पूण कोण परत येतलोच हाची गॅरंटी कोण दितलो?

हांवें हें सगळें बरयलां तें नव्या प्रवाशांनी काळजी घेवची म्हण.

×××

दीस येता, रात येता दीस वता, रात वता हांव एका प्रवासांतल्यान देवाचे कृपेन परत येतां. वर्स स म्हयने वगी बसतां. रांदनीच्या पोल्लांत. आतां खंय इतलें भोगलां तें पुरो, खंयच भायर सरचें ना म्हणटा. पूण वर्स स म्हयने जातकीर म्हाका प्रवासाची मुख्य म्हळ्यार अनवळखी जग उसते घालूंक लागता. म्हणटा, सुमेधा, वगी बसलां गो उठ मुगो चल भायर सरूंया. मात्शी पासय मारून येवया. तुका तितलोच मुदांस जातलो. आनी हांव मागीर सिंदबादाबशेन म्हजीं सगळीं दुयेंसा खांकेक मारून नवे सफरीक वचपाक भायर सरतां. 



# कथा



# ग्रँड मदर्स क्लब

रुपा केणी

रेखा आपल्या भुरगेपणांतल्या इश्टीणीवांगडा फोनार उलोवपांत सामकें गुल्ल जालें. ताज्या इश्णीटीन खबर सांगता, सांगता ताजी उमळशीक सामकी तेंगशेर पावयिल्ली. तेन्नाच टॉंग–टॅण्ण करुन दारावयली बेल वाजली. रेखान वण्टीवेल्या घड्याळीर नदर माल्ली. साडेचार जाल्ली. कोण आयला काय? ताणे इश्टीणीक म्हळें, ''मागीर करता गो फोन, बेल वाजली कोण तरी दारार आयला'', अशें म्हणून फोन बंद करुन दार उगडीत जाल्यार मंगल दारांत उबें. ताजे तोंड उमेदीन फुलिल्लें. ''आगो, यो–यो, भितर यो'' रेखान म्हळें, ते सामके ताकतिकेन आसलें. दारांतल्यानूच ताणे दुदफेण्याचे पाकीट रेखाच्या हातार तेंकयलें. ''आगो, नातू जाला म्हाका नातू'' अशें म्हणून तें गेले सुद्दां. ''आगो कॉंग्रेटस्'', रेखा फाटल्यान आड्डलें. तें गेले आनी रेखा हातांतल्या दुद फेण्यांकडेन पळयतूच उल्लें. रेखालो चलो आनी मंगलालो चलो दोगूय एकाच वर्सांतले. रेखाल्या चल्याचें लग्न जाल्या उपरांत दोन वर्सांनी मंगलान सून हाडली. आता तीन वर्सांनी मंगल आजी जाल्लें. रेखाल्या चल्याच्या लग्नाक पांच वर्सां पुराय जाल्लीं. मंगल आता अचळय 'ग्रँडमदर्स क्लबा'चे वांगडी जाल्लें.

रेखा चिंतपाक लागले. दुदफेणो खातकच कोणाचेंय तोंड गोड जाता. त्या खातीरुच खोस परगटावपाक ते दितात. पुण म्हजे तोंड मात ह्या दुदफेण्यांक पळोवन कोडू कोडू जाला. अंशूलाच्या लग्नाक पांच वर्सां पुराय जालीं. नव्या सोयऱ्याची जागमाग ना.

रेखाच्या शारांतल्या कांय बायलांनी एकठांय येवन हो 'ग्रँडमदर्स क्लब' काडिल्लो. ताजो वांगडी जावपाक आजी जावप गरजेचें. जांव पुताच्या वा धुवेच्या भुरग्यांची. आतां मेरेन रेखाच्या इश्टीणींमदलीं सगळीं जाणां वांगडी जाल्लीं, सोडून मंगल आनी रेखा. आता मंगलूय भितर पावलें. रेखा एकटेंच भायर उल्लें. ह्यो सगळ्यो आजयो मेळून पिकनिकेक वताल्यो. टूराक वताल्यो, मज्जा करताल्यो. एकमेकांक आपआपल्या नातरांची कवतुकां सांगताल्यो. दर म्हयन्याच्या पंद्रसेक तांची एका बसका आसताली. तश्यो सगळ्यो बायलो अस्तुरी मंडळाच्यो वांगडी आसल्यो. तांतूत विंगड विंगड पिरायेच्यो बायलो आसल्यो. कोणाच्या तरी हुश्शार मेंदवांतल्यान ही नवी आयडीया भायर आयली आनी 'ग्रँडमदर्स क्लबा'चो जल्म जालो. ताणीं तरण्यांक कुशीन उडयलीं. रेखा आनी मंगल प्रोमोशन मेळूंक नाशिल्ल्यान भायर उल्लीं. पुण, आतां ह्या घटकेक रेखा एकलेंच भायर आसलें.

पूत आनी सुनेच्या फाटल्यान लागचेंच पडलें. ताणे चिंतलें. पयलीं, रेखाक पुत आनी सुनेन प्लेनिंग केलां अशें दिसलें, म्हण ताणे चड मनार घेतलें ना. करुनीं मजा दोन दीस, भोंवनी हांगा थंय अशें म्हणून ओगी बसलें. आतांची नवी पिळगी ती. आमचेवेळार चलयेन विशी हुपतकच आवय बापूय ताच्या गळ्यांत माळ घालून तिका रात्री पोल्लांत मोखताले, चलोय तोंड धांपून लग्नाक उबो रावतालो. आवय बापायक मान दिवन. तो काळच तसो. मागीर णव म्हयन्याभितर दोगांयचे प्रोमोशन. ना जाल्यार घरांत बोव्वाळ जातालो. आतांची पिळगी मात हुशार. एक दोन वर्सां भोंवतात – फिरतात. आनी भुरग्याचें मागीर चिंत्तात. पुण पांच वर्सां म्हणजे अतीच जालें. दोतोराक बी...? हूँ, सांसपून पळोवचें पडलें दोगांयचें मन. हय, आतां जतनायेन उलोवंचे पडटा तांचेकडेन. चार पावटी चिंतचें पडटा. आमच्या वेळार जाण्टीं म्हण्टात, सांगता ती पूर्व दिशा. आमची तोंड उगडपाची कापास्ताद नासली. आमकां म्हण किदें उमेद नासली? उमाळे नासले? पुण, ते थंयच चिड्डून उडोवंचें पडटाले. त्या मानान ही नवी पिळगी कितली भाग्यवंत. आपणाक जाय तें करतात, विचार मेकळेपणान उक्तायतात. पुण, केन्ना केन्ना अती करतात. आवयस्स! खंयच्यान खंय पावले हांव?

केदे बेगीन अंशूल आनी श्राविकाच्या लग्नाक पांच वर्सां जालीं. मंगलान दुदफेणे हातार दवरतकच हांव भानार आयलें. तशीं, मदीं मदीं आई जागयताली. पुण, आसूं गे, भोंवनी मातशीं मेकळेपणान. तांचे प्लेनिंग बी आसता, म्हण हांवूच थातारतालें तिका. पुण पूत आनी सून हांसून ल्हवूच विशय दुसरे वटेन घुंवडायताली. आता सूंठ कशें फाटीक लागचें पडलें. आई कितें चड तेंप काडटली? तिकाय बाबडेक पण्टू वा पण्टी पळोवपाचे वेध लागल्यात. तिचें म्हण किदें चुकलां? नातरांचे तोंड पळोवप आनी जीणेचो दोर घटमूट

आसल्यार पण्टूरां पळोवप ही सुखाची तेंगशी. मागीर सुखाऽऽन दोळे धांपप. देवान आता तरी बुद्द दिल्यार पुरो हांका. दिसभर काम, काम आनी काम. कसलेच धंग ना हांका. कसलीच उमेद म्हण्टात ती नां. दोगांय जाणा लॅबांत वचून रात दीस पडिल्लीं आसतात, धा-धा, बारा–बारा वरां. विचारल्यार सांगतात, तेंच काम आमकां आवडटा. जगा वेगळींच हीं बाये. पंद्रा दिसांनी म्हज्या वाडदिसाक येतलीं तेन्ना विचारतलें हांव. कशेंच सोडप ना. तशेंच करप. रेखान थारायलें.

पूत, सून घरा आयलीं. तशीं ती दर वर्सा रेखाचो वाडदीस मनोवपाक येतातूच. रेखाच्यो इश्टिणीमदीं, तांची सोयरी जमलीं. रेखान उमेदीन केक कापलो. पूत, सुनेक खावयलो. सगळ्यांच्या मदीं बसून खायत खायत ते खबरी करतालें. इतल्यांत नीलान अंशूल आनी श्राविकाकडेन पळयत म्हळें, 'रेखा ग्रॅंडमदर्स क्लबाचे वांगडी केन्ना जाता? आमी रावल्यांत तुका.'

''तूंच एकटे उल्ला भायर'' मंगलाक वेगळोच नेट चडिल्लो.

''तें म्हजेर नां, हांचेर निंबून आसा'' पूता–सुनेकडेन बोट दाखोवन रेखान म्हळें खरें पुण, ताका आता हो विशय, ह्या वेळार नाका आसलो.

''म्हणजे गो? कांयच कळ्ळें ना बाये'' कळून सवरुन पिशें पांगरुन विनितान म्हळें.

''विनित मावशे, मिहिर कसो आसा? केन्ना येतलो हांगा?''

अंशुलान रोखडोच विशय दुसऱ्या वटेन घुंवडायलो. रेखाक सूऽऽ जालें सामकें. रोखडेंच विनितान मिहिरपुराण सुरु केले. सगळींच आयकुपांत गुल्ल जाली. खावन जातकच 'म्युझीकल चॅर' खेळपाचें म्हण श्राविकान जाहीर केले. दर वर्सा प्रमाणे सगळ्यांक भोवच मजा आयली.

दुसरो दीस उदेलो. सांजवेळां तिगांय जाणा वारांदार बसून गजाली करतालीं. रेखान येवजिलें हीच वेळ बरी आसा संद सादपाक. वर्सां वतात तशी पिराय वाडटा. कुडय जाण्टी जाता. भुरग्याबगर जीण म्हणजे रखरखीत, सुको सडो. एक तरी भुरगें घरांत आसतकच जीवाक उमेद येता. जियेवपाक मोख मेळटा, कशें कळना हांका? अशें कित्याक करतात हीं? विशय टाळटात. खबर आसून अशें करतात काय किदें...? तशें जाल्यार हांवेंच हट्ट करुन दोतोरागेर व्हरचें पडलें. पुण पयलीं मन सांसपुया तांचे. आतांच विचारतां.

''मम्मा, मम्मा कसल्या चिंतनात घुस्पल्या?'' अंशूल ताचें भूज हालोवन ताका विचारतालो.

''काय ना रे, मंगलाच्या मेहुलाक चलो जालो. आतां तूं केन्ना हाचेर विचार करतलो काय म्हण चिंततालें. पांच वर्सां जालीं तुमच्या लग्नाक. चड वेळ नाका. पिराय वाडटकूच भुरगें जावपाक कुस्तार जाता. कुड जाण्टी जाता न्हय.'' रेखान तांका समजायलें.

अंशुलान आपले कदेल ओडून आवयच्या सामकार हाडलें. तिचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेवन म्हळें, मम्मा, आता तुवें विचारलें म्हण सोमतेंच सांगून उडयतां. आमी लग्ना पयलींच थारायिल्लें भुरगें जल्मांक घालप ना.'

''मागीर लग्न किद्याक जाल्ली कपलाक?'' रेखान मोठ्यान विचारले. ताका मोटो धक्को बशिल्लो. सगळेंच घर आपल्या भोंवतणीं घुंवता अशें ताका दिसलें. तें घामान चिप्प भिजलें. ताणे दोळे धांपून घेतले. श्राविका उदक हाडपाक भितर धांवले. ताणें उदक हाडुन ताज्या तोंडार मारलें आनी पिवपाक दिलें. मातशें सावचीत जावन ताणे परते तोंड उगडलें.

''लग्न जावपा बदला संन्यास घेवन तप करपाचें.''

''मम्मा सध्या आमी करता तें एके तरेचे तपूच. धा–धा, पंदरा पंदरा वर्सां खपून सद्दा कांय वेळा हाताक कांयच लागना.'' अंशुलान म्हळें.

''मागीर किद्याक करतात ते तप?'' तुज्या आज्यान आनी बापायन इतलें जोडिल्ले आसा. दोन–तीन पिळग्यांक बसून खावपाक पुरो. पुण, तुका लागल्यात भिकेचे दुवाळे बरो चलपी धंदो तुवें गुटलावन उडयलो. थंय येदेश्या वेतभर जाग्यांत रावता, आमचे फाटले सर्व्हंट क्वार्टर सुद्धां व्हड आसात ताज्या परस बेजारुन रेखान म्हळें.

''दरेकाची सुखाची कल्पना वेगळी आसता मम्मा, आज्याक, पप्पाक व्यापार धंद्यात सुख मेळटालें. पयसो जोडप हो तांचो हावेस आसलो म्हजो न्हय. संशोधन हो म्हजो श्वास. हांव करता त्या कामांत म्हाका येस मेळ्ळे जाल्यार कितल्याश्याच सान भुरग्यांचो जीव वाटावतलो. म्हज्या वखदाचे हांव पेटंट लेगीत घेवचोना. गरीबांतल्या गरीब आवय बापायक ते परवडपाक जाय होच म्हजो ध्यास''

अंशूल 'दुसऱ्याच्या भुरग्यांचो जीव वाटावपाचो यत्न चल्ला तुजो? पयलीं आपल्या रक्ताचें भुरगें जल्माक घाल, कळ्ळें?' - रेखा.

''आयक मम्मा आमकां भुरगें कित्याक नाका ताजी कारणां तुका विस्कटावन सांगता. पयलें, आमी दोगांय आमच्या कामांत इतलीं घुस्पल्लीं आसात की भुरग्यांखातीर आमचे कडेन वेळूच उरचोना. दुसरे सैमिक प्रदुषण, हवामान बदल हांचो भिरांकूळ परिणाम फुडाराक येवपी पिळग्यांचेर जातलो.'' अशेंऽऽ तूं एकलोच बुदवंत आनी हेर सगळे पिशें. सरळ सांग मरे कसलीच जापसालदारकी नाका म्हण' रेखाक इल्ली तिडक येवपाक लागिल्ली.

''आमकां अशें दिसता कीं आमच्या कामा मुखार आमी आवय बापायच्या कर्तव्यांत उणी पडटली. म्हण भुरग्यांक जल्माक घालचें न्हय ह्या मताचो हांव.' अंशूल.

''मागीर श्राविकाक घरा बसय. तें आवयचे कर्तव्य बरे तरेन करतलें. भुरग्यांखातीर दुडू बी उणे पडटा जाल्यार हांव दिता. आसा तें सगळें तुमचेंच.'' रेखान नेट्टान म्हळें.

''मम्मा हें मात तुजे अती जाता आं. श्राविकाक ताजो निर्णय घेवपाची पुराय मेकळीक आसा. ताका कोणेच किदें सांगपाची गरज ना. ते भायर हो निर्णय आमी एकमतान घेतला, चिंतून घेतला.''

''खबर आसा रे सगळें म्हाका. तें नाचयता तूं नाचता. सामको बायल बोधो जावन पडला'' रेखान दांत किल्लीत म्हळें.

श्राविका सामके तटास जावन सांसूमायचो हो अवतार पयल्याच फावट पळयतालें. तें चिंतपाक लागले. भुरगें नाका अशें थारावपी

आमी दोगांच न्हय तर अशीं कितलीशींच जोडपीं आसात. पुण, हें मम्माक सांगप म्हळ्यार ती आनीकुय सावांर क्रतली. ही अशी कित्याक वागता? घडये पुताचे लग्न करतकच तिचीय कांय सपनां आसूं येतात. पुण, सगळेंच तिका जाय तशें कशें जातलें? आमच्योय काय इत्सा, हावेस आसात. कोणे थारायलां हें, लग्न जावपी सगळ्यां जोडप्यांक भुरगें जावपाकूच जाय म्हण. सगळ्याच चले चलयांनी लग्न जावपाकूच जाय म्हण. ना जाल्यार किदें जाता? मळब कोसळटा? काय प्रलय येता? वचत थंय आमकां एकूच प्रस्न विचारतात पेडे केन्ना? नवो सोयरो केन्ना येता? किदयाक सगळे अशे तरेन मेतेर जातात दुसऱ्याच्या जिणेंत? कित्याक इतली कुर्यो जदाद? आमी लग्न केलां ते कंपेनियनशीप जाय म्हण.

खरें म्हणजे खुबशे जाण लग्न जातात चार चौग लग्न जातात म्हण, एक चलत आयिल्ली रीत म्हण. कोणूच फुडाराकडेन गंभीरतायेन पळयना. एकतेरेच्या घुंवळीत आशिल्ल्या भशेन वावुरतात. तांका जर विचारत खरें सांग तू लग्न कित्याक जाता? तर ते म्हण्टले हें आनी किदें विचारपाचें? शिकून जाले, शिर्विस मेळ्ळी आता लग्न तशी रितूच आसा. रीत म्हण लग्न जावप? लग्न जावपाखातीर तितली जापसालदारकी घेवपासारकी मॅच्यूरिटी आयिल्ली आसा तांका? भुरगें जल्माक घालचे पयलीं त्या आवय बापायची त्या खातीर मानसीक, भावनिक तयारी जाल्ली आसता? त्या भुरग्याक कशे तरेन वाडोवप, ताका कशी शिस्त लावप, ताजेर कसले संस्कार करप, कसली मानसिकताय ताजे भितर वाडीक लावप, त्या नदरेन किदें पावलां उखलप हाजे विशीं ताणी गंभीरतायेन चिंतिल्ले आसता वा भासाभासा केल्ली आसता? हाजी जाप ९९% नां अशीच येतली. लग्न जातकच भुरगें, ह्या जनरिती प्रमाणे भुरगीं जल्माक घालतात आनी किदें? सद्याच्या काळात हेर सगळे करतात म्हण एक फॅशन कशी आयिल्ल्यान हो सुवाळो दोन–तीन वर्सा फुडें धुकलतात इतलेंच.

रेखाच्या आवाजान श्राविका चिंतनांतल्यान भायर आयलें.

''श्राविका आनी अंशूल हो निर्णय तुमी बदलपाकुच जाय, निदान म्हाका लागून तरी.'' रेखान म्हळें.

''ना मम्मा तांतूत किदेंच बदल जांवचो ना,'' थंडसाणीन अंशुलान जाप दिली.

''बदल जांवचोना? जांवचोना'' रेखा आड्डलें.

आकांताची निर्शेणी आनी दु:ख हाका लागून ताचें भान सुटलें. संतापून ते आनिकूय मोठ्यान आड्डलें, ''चलूंक लागात हांगासून. तोंड पळोवपाचें नां म्हाका तुमचें. घराण्याचो निर्वंश करपाक उठल्यांत. हांव मेल्यार लेगीत नदर पडपाक जायना म्हज्या मड्यार तुमची. परतून पांय दवरचीं नात तुमी ह्या घरांत.''

ताचो हो अवतार पळोवन पूत आनी सून आपली बिटकी कवळपाक हळूच घरांत गेलीं.

रेखा थंयच बसले. ''आतां हांव ग्रॅंडमदर्स क्लबाचे वांगडी केन्नाच जांवचेंना'' तं तोंडांतल्या तोंडांत म्हण्टालें. इतल्यांत ताका सामकी गोरीपिट्ट, कोंगऱ्या केंसाची कांय बाळकां माणकुलीं पावलां मारीत ताच्या वटेन येतात तीं दिश्टी पडलीं. म्हऱ्यांत येवन तीं ताज्या भोंवतणी वांटकुळी घुंवपाक लागलीं. 'आजये, आजये' म्हणून हांसत ताका उलो मारपाक लागलीं. ते सोंसूक नजो जावन रेखान दोळे धांपले आनी दोनूय हात कानाचेर गच्च दामून धल्ले.

संपर्क : 9822183954

---

*(पान ११ वयल्यान)*

घडून गेल्ले घडणुकीचो परिणाम येवजून म्हाका घळघळून येवंक लागलें. इतले जतनायेन दवरिल्लें म्हजें तें बरप - आतां खंय मेळटलें. रद्दींत दिवन उडयलें - म्हणचे गेलें ना बाराच्या भावांत! कोणाच्याय हातांत पडपाचो भंय! कोणाक चणो चिरमुल्यो बांदून दिवन तीं म्हजीं मुल्यवान कागदां कोयराच्या ढिगांत पडटलीं!

आपशींच दोळ्यांत दुकां येवंक लागलीं. तर मांयन म्हळें, ''शीऽ अशें कितें जालां भरिल्ल्या घरांत रडूंक? माऽर व्हडलो लाखांचो ऐवज गेल्ले वरी करता. कागदांचीं बोंदरां तर आशिल्लीं.

आरे, म्हजो लाखमोलाचो ऐवज गेल्लो. तुमकां कागदांचीं बोदरां आसत तीं - पूण म्हज्यो यादी आसपाविल्ल्या तांतूंन - कथा, एकांकिका सर्तींत जाहीर जाल्लीं बक्षिसां, पेपरांत आशिल्ले फोटे, मराठी कथा स्पर्धेंत बक्षिस मेळ्ळां म्हणून नामनेचे मराठी समिक्षक गं. ख. पवार हाणीं घेतिल्ली राष्ट्रमतांत उजवाडा आयिल्ली म्हजी मुलाखत पयलीच! उजवाडपाचें जायतें बरप - तीं पत्रां! म्हजें तोंडांतल्यान उतर फुटना जालें. एक तर म्हाका विचारि नासतना म्हज्या वस्तूंक हात लायलो - हांवें इतलो तेंप जपून दवरिल्लें बरप एका खिणांत नाच्च करुन उडयलें - तांकां ताचो व्हालोर नाशिल्लो, पूण म्हजें सर्वस्व आशिल्लें. बरें चूक जाल्या ही भावनाच ना. वेल्यान हांव रडटां म्हणून म्हजेरच ताणशेतात. वा रे न्याय. येद्या व्हडल्या घरांत म्हज्यो वस्तू दवरुंक जागो ना. त्या वेळाच्यान कानाक पिवळ घालो - सादो कागदाचो कपटो लेगीत कपाटांत दवरप! अमृता प्रीतमान सांगिल्ले पट्टालें - एक रूम सोडात इल्लोसो कोणसो तरी आपलो म्हणून जाय. आतां घरांत दोगांच, पूण बरोवची ती उमेद शेणली ती शेणलीच!

संपर्क : 9757119317



# त्रास

कृ. म. सुखठणकार



'त्रास' हे उतराचो अर्थ हांवें दोन पांयांच्या प्राण्यांक विसकटावन सांगपाची गरज ना. हांवें दोन पांयांचे प्राणी म्हणलां म्हणटकच तुमी आपले पांय लांब-दोन करुन मेजपाची गरज ना. शीर गणती वेळार तुमची गणती दोन पांयांचे प्राणी म्हणुनूच जातली, भियेवपाची कांयच गरज ना. शीर गणती खातीर जाग्यार शीर आसतकच जालें. बोड आसूं जाय अशें खंयच आनी कोणेंच म्हणूंक ना. हाचो अर्थ त्रास फकत दोन पांयांच्या प्राण्यांकूच जाता असो अर्थ कोणेंच काडचो न्हय. चार पांयांच्या प्राण्यांक दोन पांयांच्या प्राण्यां कडल्यान जाता तसो त्रास कोणाकूच जायना हाची हांगा नोंद करची पडटली.

आमचें लग्न जालां त्या काळांत, नवेंच लग्न जाल्ल्या जोडप्याक आतां भशेन मनरिजवणीचीं साधनां कांयच नासतालीं. आज घोव आपलो मोबायल घेवन एके कुशीक आनी बायल तिचो मोबायल घेवन दुसरे कुशीक न्हिदाव्याक पडटा. आमकां तेन्ना एकेच कुशीर वरांचीं वरां म्हणजे न्हीद ये सर एकमेकाचीं तोंडां पळयत पडून रावचें पडटालें. हें आयचे पिळगेन वाचल्यार तांकां ती काळ्या पाण्याची ख्यास्त कशी दिसतली. दिसलें म्हणून तातूंत तांची कांयच चूक ना. आसूं. ही न्हिदतना कपलाक अमृतांजन सारयता हें तुमकां हांवें सांगलांच, आतां म्हाकाय ती संवंय जाल्या. अमृतांजन जांव वा कसलेंय वखद, संवंय जातकच मागीर ताचो परिणाम जावपाक मागीर मातसो वेळ लागता. वखदांचेर जगतात तांकां हांवें हें सांगपाची गरज ना. तर, अमृतांजन भगभगपाक मातसो वेळ लागता तो सर कितें करतली म्हूण हिणें भेणयांनी खेळपाक सुरु केलें. भेणयांनी खेळपाक दोग जाणां तरी लागतात हें तुमकां खबर आसतलेंच. खाटीर मदीं उशें घालून हांव न्हिदतालों. म्हणटकच ह्या भेणयांनी खेळपाचो म्हाका योग आयलो ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. म्हाका याद जाता हांवें खंयचें तरी पद म्हणलें आनी हिचेर 'फ' उतर आयलें. आतां 'फ' उतरान खंयचें पद सोंपता हें येवजून तकली उडोवपाची गरज ना. आज तकली उडोवपा खातीर हजारांनी कारणां आमचे सामकार हात जोडून उबीं आसात. 'फ' उतर आयले बराबर हिणें 'फू बाई  फू फुगडी फू दमलास काय माझ्या गोविंदा तू' सुरु केलें. आनी हांवें 'शाब्बास' म्हणत आनीक इल्लें अमृतांजन माथ्याक (म्हज्याच) सारयलें. शाब्बास म्हणल्या बराबर हिका आनीक चेव आयलो. ही फू बाई फू म्हणत फुगडी घालपाक लागली. म्हाका हें प्रकरण इतलें हाता भायर वचत अशें दिसूं नाशिल्लें. इतल्यान भायल्यान कोण तरी 'गोविंदा गोविंदा' म्हणत ताळ वाजयता तें म्हज्या लक्षांत आयलें. रायबंदरा गोविंदा गोविंदा असो गजर फकत आमी दही हंडी फोडटना करतात. तशेंच श्रीराम जयराम जय जय राम ह्या त्रयोदशाक्षरी मंत्राचो जप आमी रामनमीकूच करतात. बाकिच्या दिसांनी आमी 'हे राम' लेगीत म्हणिनात, तुमचे म्हायती खातीर.

तर, हांवें दार उगडल्यार आमचो टायगर गोविंदा गोविंदा म्हणत ताळ वाजयता आनी बापूय दारांत वासुदेव वाटकुळो घुंवत नाचता तसो फेर धरुन नाचता.

''आरे, हें कितें रे?''- हांव.

''आरे घरांत सून हाडल्या काय रेडवो? दनपारां आड पडपाक दिना आनी रातचो मातसो दोळो लागता थंय आसा फू बाई फू सुरु.... आरे वाटकुळो घुंवपाचें बंद कर ताणें दार उगडलें.''

टायगराचो पयलो डायलॉग म्हाका दुसरो बापायक आशिल्लो. बापूय वाटकुळो घुंवपाचो थांबलो आनी आई कूस परतून वणटीक तोंड करुन न्हिदली. आनी रेडवो खाटीर आसरमांडी घालून बसलो.

''हांव रेडव्याची बॅटरी काडून दवरतां आतां. आनीक आनी वाजचोना तो. न्हीद तूं.''

अशें म्हणून हांवें दार धांपलें आनी लायट काडली. हाचे वयल्यान दोन पांयांच्या प्राण्यांचो उपद्रव कसो जांव येता हें आमच्या लक्षांत येता.

आपल्याक त्रास जाता हें आमी तरे तरेन दुसऱ्याक सांगपाक शकतात. सगल्या भाशांनी त्रासा खातीर खूब उतरावळ दिल्या. घडये त्रास जाता हें सांगपाक त्रास जांवचो न्ही म्हणून ही तजवीज केल्या आसुंये. उपद्रव, कटकट, पिडा, बेजार, वळवळे काडप, वाज, साडेसाती बी हीं सगलीं त्रासाचीं विंगड विंगड रुपां. सदांच त्रास त्रासदायक आसता असो ना. ज्या त्रासा पसून मनशाक पिडा जाता तो खरो त्रास. 'बॉबी' ह्या सिनेम्यांतलें 'बाहर से कोई अंदर न आ सके' हें पद दोळ्यां सामकारा हाडात. ह्या पदांत, 'आगे हो घनघोर अंधेरा, पिछे कोई डाकू लुटेरा' अशें म्हणत रिशी कपूर डिंपल कपाडियाक भेश्टायता. डिंपल 'उंऽऽ क्यों डरा रहे हो?' अशें म्हणटा लेगींत. आतां आमी रिशी कपूर डिंपल कपाडियाक त्रास दिता अशें म्हणू नजो. कारण पद सोंपता सोंपता दोगांय हातांत हात घालून 'हम तूम एक कमरे में बंद हो' म्हणत कुडींतल्यान भायर येतात. आमी मात (आमी=हांव आनी दत्ता) सोळा वर्सांच्या डिंपलाक रिशी सतायता म्हूण बेठेच वयर सकयल जाले. 'रॉकी शूत शूत शूत कितें कोत्ता' ह्या कांतारांत चेडूं, रॉकी, मांय-पायले दुडू चोरुन आपल्याक आमलेट कटलेट खांवक घालता, तोंडाक तोंड लावन बसता, वेंगेंत घट धरता, आपले हात बोरे भाशेन चेपता अशें कबूल करता. वयल्यान रॉकी आपल्याक कित्याक बेजार करता असो प्रस्न करता. असल्यो केसी आडवाद. वयर म्हणलां तशें हें त्रास त्रासदायक अशें म्हणू नजो. ह्या कातारांत सिनेमा थेटरांत रॉकी किटकिट्टा तेन्ना ह्या चेडवाचें काळीज पिटपिट्टा. मनशाक त्रास जाता तेन्ना असल्यो पिडा जायनात हें त्रासांतल्यान गेल्ल्यांक खबर आसतलें. हें हांवें सांगपाची गरज ना.

आमचे त्रास आमी आवयच्या पोटांत आसतनाच सुरु जातात हें आमी मनाचे श्लोक वाचल्यार आमकां कळटा. मनाचे श्लोक हे रामदास स्वामीन (शुभ मंगल सावधान फेम) बरयल्यात, तुमचे म्हायती खातीर.

*'बहू हिंपुटी होईजे मायपोटीं*
*नको रे मना यातना तेचि मोठी*
*निरोधें पचे कोंडिले गर्भवासी*
*अदोमूख रे दुःख त्या बाळकासीं'*

अशें आमचें श्रद्धास्थान रामदास स्वामी म्हणटा. बाळक आवयच्या पोटांत पोटा कडेन पांय घेवन णव म्हयने तेच अवस्थेंत आशिल्ल्या कारणान घडये ताका त्रास जातात आसत. चड शीं पडत जाल्यार हांवूय दाट गोजडी घेवन पोटा कडें पांय घेवन न्हिदतां. बाळकाचें तोंड पळोवप हें आवय खातीर ह्या जगांतलें सगल्यांत मोठें सूख अशें आमी कादंबरींनी बी वाचतात. पूण तिचेय त्रास तिका दीस वतात त्या दिसा पासून सुरु जातात हें हांव अणभवा वयल्यान सांगूंक शकतां कारण हिका मेजून तीन फावटी दीस गेले. हिका दीस गेल्या बराबर सुके ओंकारे सुरु जाताले. ताचे हिका भयंकर त्रास जाताले. हे सुके ओंकारे दीस गेल्ल्या बायलांक सकाळीं येतात हें तुमकां खबरूच आसतलें. सकाळ फुडें चडशी म्हज्या लेंग्याची नाडी भितर गेल्ली आशिल्ल्यान म्हाका एका हातान लेंगो धरून बॅजिना कडेन धांवचें पडटालें. मागीर एका हातान लेंगो आनी दुसरो हात हिच्या माथ्यार धरचो पडटालो. ओंकतना माथ्यार हात धरपाची प्रथा गोंयांत आसा, बाकिचे कडेन आसा जाल्यार खबर ना. इंग्लीश सिनेम्यांनी जे हांवें पळयल्यात तातूंत गोरी नटी टॉयलेट बोला कडेन धांवता, वाँक वाँक करपाचें काय कितें तें करता, तोंडार उदक मारता आनी कामाक लागता. तिच्या माथ्यार हात धरपाक थंय कोण नासता. हांगा तशें नासता. हिचे सकाळीं सुके ओंकारे सुरु जातकच हिच्यांत मागीर हांगाची काडी थंय करपाची शक्त उरऽ नाशिल्ली अशें ही म्हणटाली.

"आवय गेऽऽ नाका हें गुरवारपण।-" ही, ओंकारे (सुके) काडीत.

"हय गो, नाका आनी आनी गुरवारपण!"- हांव, एका हातांत लेंगो दुसरो हात हिच्या माथ्यार.

"कितें म्हूण हे त्रास? सगल्यांक अशेंच जाता काय?"- ही.

"खबर ना. हांवें आनीक कोणाच्या माथ्यार असो हात दवरल्याची याद जायना"- हांव, हात काडीत.

"हांव खरेंच भाग्यवान! तुमचो हात असोच म्हज्या माथ्यार उरूं."

"असो आनी परत तुज्या माथ्यार हात गो? नाका गो बाये!" हांवें आतां म्हजो लेंगो दोनूय हातांनी गच्च धरलो. हांवें जरीय अशें म्हणलें तरीय फुडें आनीक दोन खेपे म्हाका हिच्या माथ्यार हात दवरचो पडलो. आसूं.

आपल्याक जाता त्या त्रासाचो दुसऱ्याकूय त्रास जांव येता हे खातीर जाता जाल्यार उपाय येवजणो करच्यो अशें म्हजें मत. हांवे आनी ही 'माहेरची साडी' सिनेमो पळोवपाक थेटरांत गेल्लीं. म्हाका गॅस ट्रबल म्हणजे वाताचो भयंकर त्रास आसा. थोड्यांक दाळ बी खाल्यारूच त्रास जातात म्हजें तशें ना. तर, पड्ड्यार क्लायमॅक्स सुरु जालो. अलका कुबल हातांत घराण्याचो कुल दिपक घेवन आयली आनी हे वटेन म्हज्या पोटांत गुडगुडूंक लागलें. ते वटेन अलका कुबल जाम हे वटेन हांव.

"सासुबाई सासुबाई, हा घ्या तुमचा नातू. घराण्याचा कुलदिपक, तुमचा वंशाचा दिवा. सासुबाई सासुबाई माझ्या पायी तुम्हाला काही त्रास झाला असेल तर मला क्षमा करा. अंऽऽ अंऽऽ..."

अशें म्हणून अलका कुबल तुळशी कडेन घालून घेता. हे वटेन म्हज्या पोटांतल्या गॅसान आपली वाट सोदून काडली आनी थेटरांतल्या वातावरणांत एकरुप जालो. म्हज्याय जिवाक मातशी थाकाय मेळ्ळी. उदक आनी वाय आपली वाट मेळटा थंयच्यान सोदून काडटात अशें म्हाका दत्तान सांगिल्लें याद जाता. जितलो तूं ताका आडावपाचो येत्न करता तितल्या नेटान तीं आपली वाट मेकळी करतात अशें ताचें मत. 'पोटांतले वायेक चड आडावन दवरल्यार ती कानांतल्यान लेगीत भायर सरता तेन्ना तूं ती चड भितर दवरूं नाका अशें ताणें सांगिल्ल्याक हांव ती चड वेळ भितर दवरिना, तुमचे म्हायती खातीर. हांवें वायेचो पयलो इन्स्टॉल्मेण्ट सोडलो तेन्ना थेटराचो गॅस चेम्बर जातलो अशें हांवें चिंतूं नाशिल्लें. थेटरांत चडश्यो बायलो आशिल्ल्यो आनी तीं सों सों करीत नाक पुसतालीं. रडून रडून तांचे नाक चोंदिल्ल्यान घडये तांकां म्हज्या कर्तुत्वाचो अदमास येवंना जांवये. इतल्यान पड्ड्यार रमेश भाटकर आयलो. तो तुळशी कडेन बशिल्ल्या अलका कुबलाक हात लायता आनी अलका लंवडता.

"लक्ष्मी लक्ष्मी काय केलं तू हे? तू मला हवी होतीस."

अशें म्हणून तो तिका वेंगेंत घेवन हुंडक्यांनी रडटा. हांगा हांवें गॅसाचो सेकण्ड इन्स्टॉल्मेण्ट रिलीझ केलो. जांणी 'माहेरची साडी' सिनेमो पळयला तांका म्हज्या टायमिंगाचो अदमास येतलो. सेकण्ड इन्स्टॉल्मेण्ट आशिल्ल्यान तो मातसो खर आनी व्हड आसप सहाजिक. आतां बायलांनी लेंस नाका कडेन व्हेल्ले ते काडले नात.

"कोणाच्या पोटांत कुसलां शें दिसता"- म्हजे फाटली. तिजेर भोवतेक सर्जिकल स्ट्रायक जाला आसुंये.

"लक्ष्मी गेली थंय पळया न्ही!"- हांवें फाटल्यान पळयत म्हणलें.

"हांगा म्हजेर वचपाची पाळी आयल्या! बायल तुमचेर दाळीचो मारो करता काय कितें? सगल्यांक त्रास हांगा!"

इतले मजगतीं अलका कुबलीची कूड मसंडेंत पावता. हांव हांगा म्हजें तिसरें मिसायल सोडटां. तें फाटल्या फुडल्या रांकेंत बशिल्ल्यांचो वेध घेत वता.

"पाड पडलां लोकांचें! हांगा आमी पिच्चर पळोवपाचो काय घाणी घेवपाच्यो?"- पयली रांक.

"दाळ खाल्यार जाता गे गॅस. म्हज्या घरकाराक हांव कशीच दाळ उश्टांवक दिना"- म्हजे फाटली रांक.

"हाचे घरकान्नीक कळपाक नाका तें? पड्ड्या वयले लक्ष्मी सारकीं बायल मेळपाक कुस्तार गेऽऽ"- म्हजे दावे वटेन कोणतरी.

ते वटेन पड्ड्यार विक्रम गोखले लांकडां फोडटा.

"हय व्हो, हांवें तुमकां दाळ घाल्या? आज सांगटांचें आंबट तीख

आनी पदेराच्या पांवाचो किते संबंद तें कळऽ नाशिल्लें. फुडें 'खाजता एके कडेन आनी खाजयता एके कडेन' ही म्हण कशी पडली हाचो सोद लागलो. आजूय म्हाका पंचप्पा कडल्यान (पदेर) पांव घेतना पाटील गुरुजीचे 'मी गोमंत भुमीत पाव खायला आलो का रे दत्ता' हे शब्द कानार आदळटात आनी म्हाका भरुन येता. हांव पंचप्पा कडल्यान 'तेरा मुझसे ये पहले का नाता कोई' हें पद म्हणत उंडे घेतां. आसूं.

सिनेमाच्या पड्ड्यार नायिका 'ऊँऽऽ क्यों सताते हो' असो प्रस्न नायकाक विचारता तेन्ना म्हजेय जिणेंत असो प्रसंग येंवचो अशें म्हाका दिसतालें. सिनेमाच्या पड्ड्यार मौसमी चॅटर्जी न्हिदिल्ल्या जितेंद्राचेर उशीं मारता आनी ताका उठयता. तें पळोवन म्हज्या आंगार कांटो येतालो. हाचो अर्थ हिणें म्हजेर न्हिदिल्ले कडेन उशीं मारलीं नात असो कोणें काडचो न्ही. हिणेय 'हांड्याक उजो कोण घालतलो, म्हजो मांव?' अशें म्हणत म्हजेर उशें शेवटून मारलें आनी भितरलो सावरबोणेचो कापूस सगळ्याक जालो. तीं उतरां कापसावरीच उबत सालांत न्हिदिल्ल्या हिच्या मांवाच्या काना मेरेन पावलीं. वयर सांगलां तशें मागीर तो वासुदेवा वरी आपल्या भोंवती घुंवपाक लागलो. आपलो राग व्यक्त करपाची ताची ती तरा आशिल्ली सोड.

तर, असो त्रास दिवपाक आनी सोंसपाक मजा आसता. एक दीस सतायना जाल्यार नायिकेक चैन पडना आनी मागीर ती शीण उकतायता.

'मनाने की आदत कहाँ पड गई सताने की तालीम क्या हो गई'.

मागीर नायक म्हणटा,

'सताते ना हम तो मनाते ही कैसे तुम्हे अपने नजदीक लाते ही कैसे'.

(ही वळ बरयतना परत आंगार कांटो आयलो. हालीं फकत आंगार कांटेच येतात, तुमचे म्हायती खातीर).

असले प्रसंग जिणेंत खरेच येत जाल्यार कोणाक त्रास नाका जाल्यात!

संपर्क : 9850530756



---

*(पान १३ वयल्यान)*

*क, चें, ची, बी* सारकेलीं कुसां लागून फातराक, फातराचें, फातराची बी हीं रुपां घडटात.

**कोंकणी विद्यार्थी, शिक्षक, तज्ञ आनी हेर मळां वयले जाणकार कोंकणी NLPक कशे रितीन योगदान दिवंक शकतात अशें तुका दिसता? सरकारी वा हेर संस्थांनी हाचे खातीर फुडाकार घेवंक जाय अशें तुका दिसता? हय जाल्यार कशे रितीन?**

विद्यार्थ्यांनी, शिक्षकांनी आनी हेर मळां वयल्या जाणकारांनी NLP खातीर लागपी भाशीक डेटा तयार करपाचो वावर करूं येता. कोंकणी NLP खातीर वावुरतना कोंकणीक योगदान हो हेतू साध्य जातलो जाल्यार तो डेटा संशोधकांनी वापरचे खातीर तो तांकां सोंपेपणान उपलब्द करचो पडटलो. कोंकणी भाशेचे उदरगती खातीर वावरूंक सोदपी जण एका कोंकणी मनशान आनी भोव करून वेगळ्या वेगळ्या पदांचेर वावुरपी दर एकल्यान हें कार्य जबाबदारेन हातांत घेवचें पडटलें.

**कोंकणी NLP खातीर तुज्यो येवजण्यो कितें आसात ते विशीं थोडें सांगशी?**

संगणगशास्त्राच्या मळार एक संशोधक म्हूण वावुरतना कोंकणी भास NLPच्या मळार हेर भारतीय भासां इतलीच प्रगत जावची होच म्हजो उदेश आसा आनी ते खातीर म्हजे यत्न आसतले. सगळे तरेचो विकास जाता तेन्ना भाशेचो लेगीत विकास जावंक जाय. ह्या डिजिटल युगांत कोंकणीची हजेरी दिसून येतली, तिचो विकास जातलो जाल्यार संशोधना खातीर उपयुक्त अश्या (भास)विज्ञानीक स्वरुपांत तिचो सांबाळ करून दवरप सामकें गरजेचें.

**वयले तरेच्या संशोधन वावरा विशीं, तुमच्या वावरा संदर्भांत आमच्या वाचप्यांक आनीक माहिती खंय मेळूंक शकता?**

NLP वावराची माहिती ऑनलाइन उपलब्द आसा. सोद निबंद हे खातीर चड उपेगाक पडूं येतात अशें म्हाका दिसता. हांवें तयार केल्लीं NLP साधनां सकयल दिल्ल्या लिंकांचेर उपलब्द आसात:

http://103.86.177.205:7000/ कोंकणी मॉर्फोलॉजिकल ॲनलाइजर

http://103.86.177.205:7001/ कोंकणी स्टॅमर

http://103.86.177.205:7002/ कोंकणी स्पॅलचॅकर

apertium/apertium-kokApertium कोंकणी एकभाशीक पॅकेज (Monolingual package for Konkani)

म्हज्या युट्यूब चॅनलाचें लिंक:

https://www.youtube.com/channel/UCbcK2zZ5Oo02l2wqRRFQCYw

म्हजो सोद निबंदाचो संदर्भ:

राजन, ॲ., साळगांवकार, अं., जोशी. रा. (२०२०). अ सर्वे ऑफ कोंकणी ॲन. ॲल. पी. रिसोर्सिस. कम्प्युटर सायंस रिव्यू, 38,doi: 10.1016/j.cosrev.2020.10029. लिंक: https://www.sciencedirect.com/science/article/abs/pii/1574013720303993.

.................................................................................................

*Natural Language Processing खातीर हिंदी भाशेंत **प्राकृतीक भाषा संसाधन, प्राकृतीक भाषा प्रसंस्करण** हीं उतरां वापरांत आसात. कोंकणी खातीर आमी खंयचें उतर वापरतलीं तें थारावचें पडटलें.

**चत्राय: वाचप्यांनी मुलाखत दिवपी कोंकणी भाशीक न्ही हाची नोंद घेवंची. तिच्या कोंकणी NLP साधनां विशीं कितेंय प्रस्न आसल्यार वा अभिप्राय दिवपाचो आसल्यार सकयल दिल्ल्या लिंकाचेर/ई-मेलीर संपर्क साधचो.**

Website: http://www.annierajan.com/

Phone: +918830998242

Email: ann raj 2000@yahoo.com



# इतिहासाचो नवो दिश्टावो : 'व्हडलें घर'

डॉ. रमिता गुरव

पुर्तुगेज गोंयांत येतगीर सुरु जाल्लें धर्मांतरण आनी मागीर आयिल्लें इंक्विझिशन हो गोंयच्या इतिहासांतलो काळो किट्ट काळ जांवन आसा, जांणे कोंकणी मनशाच्या सामाजिक, सांस्कृतीक आनी अर्थीक जीणेंत मोट्या प्रमाणान बदल हाडले. कोंकणी समाजाच्या स्थलांतराक हो काळ जापसालदार थारलो. ह्या काळांन कोंकणी मनाच्या सर्जनात्मक प्रतिभेक प्रेरीत केला ते आमकां पळोवपाक मेळटा. देखीक महाबळेश्वर सैल हांची 'युगसांवार' कादंबरी, डॉ.कस्तुरी मोहन पै हांची 'ध्रुव तारे', तशेच प्रो.प्रकाश वझरीकार हांणी बरयिल्लें नाटक 'आव्तु द फॅ'.

ह्या विशयाकडेन संबंदित, साहित्य अकादमी पुरस्कृत, ज्येष्ठ कोंकणी साहित्यिक, निष्ठावंत पत्रकार, झुजारी व्यक्तिमत्व तशेंच कविमन आशिल्ले भौमानेस्त ॲड. उदय भेंब्रे, हांच्या सिद्धहस्त लिखणेंतल्यान जल्मांक आयिल्ली तांची पयली कादंबरी, 'व्हडलें घर', संजना पब्लिकेशन्स हांणी हालींच उजवाडाक हाडल्या.




पुस्तकांत भीतर आशिल्लो मजकूर जितलो महत्त्वाचो तितलोच ताचें भायलें आवरणूय. कादंबरीच्या कथानकाक फावो तशी वातावरण निर्मिती सिया पंडित हांणी केल्ल्या कादंबरीच्या कवर डिजायनांत जाल्ली आसा. जीं चित्रां हांगा आयिल्लीं आसात तांतून दिसपी जागे, घडणुको, कादंबरीच्या कथानकाचो महत्त्वाचो घटक जांवन आसात. कादंबरींत येवपी घडणुको तशेंच ज्या वाठारांत हें कथानक घडटा ताचें सोळाव्या शेंकड्यांत स्वरूप कशें आशिल्लें, हाची जेन्ना आमकां कल्पना येता तेन्ना त्या जाग्यार आनी त्या काळांत कादंबरींतले प्रसंग दवरून वाचतना एक आगळोच अणभव वाचप्याक नक्कीच येता.

खरें म्हळ्यार 'इतिहास' संसारातल्या रचनात्मक प्रतीभेक सदांकाळ प्रेरीत करत आयिल्लो आसा. इतिहासाकडेन पळोवपाचो दर एकल्याचो आपलो-आपलो दृश्टीकोण आसूं येता, पूण ताचेकडे वता आसतना, वर्तमानाचें भान दवरतना, भविश्याकडेन आशिल्ली लेखकीय जापसालदारकी खूप म्हत्वाची थारता. संजना पब्लिकेशन्सच्या वतीन उदय भेंब्रे हांची 'व्हडलें घर' ही कादंबरी वाचतना प्रकर्शान जाणवता ती तांची हीच लेखकीय जापसालदारकी. प्रो.अ.का.प्रियोळकार हांचो 'दि गोवा इंक्विझिशन' हो ग्रंथ वाचतकूच इंक्विझिशन ह्या विशीं उदय भेंब्रे हांची उमळशीक वाडली आनी त्या विशयाकडेन संबंदीत वाचनाक सुरवात जाली. कादंबरीच्या प्रस्तावनेंत ते बरयतात, 'ह्या वाचनांतल्यान म्हाका स्पश्ट जालें कीं गोंयाक मूळ पीठ मानपी कोंकणीभाशी समाजाचेर व्हडांत व्हड संकश्ट येवन अन्याय जालो तो १६ व्या शेंकड्यात सुरू जाल्ले धर्मांतर आनी तांतुतल्यान जल्माक आयिल्लें इंक्विझिशन हांचे वरवीं. हो इतिहास समेस्त कोंकणीभाशी समाजाक कळपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसले. तशें दिसपाक आनीक एक कारण आशिल्लें तें म्हळ्यार ह्या विशया विशीं कांय लोकांमदीं अज्ञान आनी हेर कांय लोकांमदीं गैरसमज आसात, तर इंक्विझिशन म्हूण कांय नाशिल्लेंच अशेंय म्हणपी कांय जाण आसात'. (व्हडलें घर, पा.क्र.९).

गोंयच्या वा कोंकणीभाशी समाजाच्या इतिहासांतलें हें पर्व चडानचड लोकांमेरेन पावोपाची लेखकाची इत्सा आशिल्ल्या कारणांन इतिहासीक ग्रंथ बरय नासतनां त्या काळांतल्या इतिहासीक घडणुकांचेर आदारिल्ली कादंबरी बरोवंची अशें तांका दिसलें, आनी ताचोच परिणाम म्हूण तांची पयली कादंबरी 'व्हडलें घर' कोंकणी वाचप्यांच्या हातांत आयिल्ली आसा. गोंयांत पुर्तुगेज सत्ता येतकुच, धर्मांतरांतल्यान जे इंक्विझिशन आयलें त्या इंक्विझिशनाक लागून जाल्लो आकांत हो ह्या कादंबरीचो विशय जांवन आसा.

'व्हडल्या घराची सोपणां चडच्या पयलीं', ह्या कादंबरीच्या प्रस्तावनेंत लेखकान बरीचशी इतिहासिक तथ्यां, इंक्विझिशनांचो इतिहास, वाचप्यांमुखार दवरतना, कादंबरी बरोवपा फाटलो आपलो उद्देश लेगीत व्यक्त केला. ते म्हणटात, 'जो इतिहास आसूंक जाय तितलो उक्तो ना त्या इतिहासाचेर ही कादंबरी रचल्या. इतिहासाच्या ग्रंथांनी तो मेळटा. म्हजो प्रयत्न आसा साहित्याच्या माध्यमांतल्यान तो लोकां मुखार दवरपाचो. तसें करतना मनांत पूर्वग्रह आसचो न्हय, सत्याचो विपर्यास घडचो न्हय आनी इतिहास विकृत जावंचो न्हय हाची जतनाय हांवे घेतल्या हाची खात्री वाचप्यांनी बाळगुची'. (व्हडलें घर, पा.क्र१५), कादंबरी वाचतना आमच्या लक्षांत येता खरेंच लेखकान इतिहास विकृत जावपाक दिवंक ना.

जेन्ना धर्मसत्ता आनी राजसत्ता आपली जापसालदारकी विसरून आपल्या संकुचीत स्वार्थाक लागून एकठांय येतात तेन्ना सामान्य प्रजेक कोण वाली उरनां. सत्तेच्या गोमटेर धर्मपिशें बसलें म्हणटकूच धर्मसत्तेच्या प्रभावाखाला ते अधर्मी कृत्यां करपाक लागतात. अशा वेळार धर्माच्या नांवांन अच्छेव घालपी अधर्माच्या दूतांक धर्म म्हणजे कितें तेंच खबर नासता. ज्या देवाचे नांव घेवंन ते हैदोस घालतात, अन्याय करतात, त्या देवान सांगिल्ल्या दयेचे-करुणेचे म्हत्व तांका खबरुच नासता.

सोळाव्या शेंकड्यान गोंयांत जें धर्मांतर सुरु जालें तेन्ना जे 'बरे क्रिस्तांव' जाले नांत, जे क्रिस्तांवपणांक सारको पाळो दिनात, तांका गुन्यांवकारी मानून, ख्यास्त घडोवंक म्हूण १५६० ह्या वर्सा इंक्विझिशनाची स्थापना जाली. धर्मांतर करच्या बदला कितलेशेच जाण आपले देव, देवतांक घेंवन सौंदेकार तशेंच आदिलशाचे राज्य

आशिल्ल्या प्रदेसांनी वचून रावले. कितलीशींच गोंयची हिंदू कुटुंबा त्या वेळार गोंयांभायल्या प्रदेसांनी स्थलांतरित जाली. कांय गोंयात रावली. जीं रावलीं तांतूंतली कांय क्रिस्तांव जालीं, कांय जालीं नांत.

'व्हडलें घर' ही एक इतिहासीक कादंबरी जांवन आसा जाचें कथानक १५६६ वर्साच्यान १५८५ वर्सा मेरेन म्हणजे वीस वर्सांच्या काळा मजगतीं घडटा. इंक्विझिशनाच्या काळांत राय गावांतले हिंदू पै कुटूंब आपलो धर्म राखपा खातीर एकमेकांकडसून पैस जाता. कुटूंबातले जें जोडपें गांवांत उरता तें दबावा खाला धर्म बदलता. वासू पै कायतान वाझ जाता, गोमती पै पियेदाद वाझ जाता. पूण एकनिष्ठ क्रिस्तांव आसून लेगीत फुडें इंक्विझिशनांक लागून तांची जी शोकांतिका जाता ताचे चित्रण 'व्हडलें घर' ह्या कादंबरीत आमकां पळोवपाक मेळटा. इंक्विझिशनाच्या नांवांन चलपी अधर्मी व्यवहाराक लागून, भाटकार जांव मुंडकार, पयशेकार जांव गरीब सगळ्यांची जीण कशी प्रभावीत जाता हें आमकां 'व्हडलें घर' ह्या कादंबरींत बाब उदय भेंब्रे दाखयतात. बाजार-पेठ आशिल्लें गोंय शार, थंयच्या फिदाल्गांची तशेंच भ्रश्ट फिर्गी पाद्रिंची जीण, इंक्विझिशनाकडेन संबंदीत यंत्रणा कशी काम करताली हे आमकां कादंबरींत पळोवंक मेळटा.

इतिहासीक सर्जनशीळ साहित्य बरोवप तशें खूप जोखमीचे काम. कारण हांगा जें घडून गेलां, ताच्या बाबतींत भौसाच्या मनांत आपल्यो कांय कल्पना आसतात, आस्था आसतात. त्याच प्रमाण कांय इतिहासीक तथ्यां आसतात, इतिहासकारांची आपली मतां आसतात, इतीहासाकडेन पळोवपाचो सत्तेचो आपलो दृश्टीकोण आसता. अशा विशयाचेर लेखकीय तटस्थता दवरीत, आपली कल्पना आनी प्रतीभा हांचो सांगड घालून एक प्रामाणीक तसोच विश्वसनीय संसार उबो करप तशें सोपे काम न्हंय. 'व्हडलें घर' वाचतना जाणवता तो लेखकाचो प्रामाणिक इतिहास-बोध. इतिहासीक तथ्यांचो उल्लेख करतना, इतिहासीक घडणुकांशी संबंधीत प्रसंग कादंबरींत जंय-जंय आयल्यात थंय लेखकीय संयमाचो अणभव येता. इतिहास विकृत जायना हाची जतनाय लेखकान घेतल्या अशें दिसून येता.

'व्हडलें घर' ही वास्तु कादंबरीच्या कथानकाचो 'फोकल पॉइन्ट' जांवन आसा. कादंबरीची सुरवात जाता ह्या व्हडल्या घराकडल्यान. मुखेल पात्र कायताना वांगडा, वाचपी सुद्दा ताचीं सोपणां चडटा, एका रहस्यमय, आतंकीत अशा वातावरणांत भीतर सरता, जाच्या बद्दल भायल्या लोकांकच न्हय तर तांतूंन बंद आशिल्ल्या लोकांक लेगीत सारके कांयच खबर नासता.

'व्हडल्या घरा'बाबतीन म्हायती दितना लेखक बरयता- 'व्हडलें घर' म्हळ्यार आदली युसूफ आदिलशाची पालास. आफोंस दे आल्बुकेर्कान गोंय शार जिखतकूच तो थंय रावपाक लागलो. ताचे फाटल्यान जे गवर्नर वा व्हायसरॉय आयले ते लेगीत तेच पालासींत रावले. १५५४ वर्सा दाँ पेद्रु मास्कारेन्यस व्हायसरॉय म्हूण आयलो. ताची पिराय आसली सत्तर वर्सांची. पालासीचीं व्हडलीं पाशाणी सोपणां चडपाक ताका त्रास जावपाक लागलो. बंदरा लागीं कोटांत आशिल्ले पालासींत कांय बदल करून ताणें ती सुदारली आनी थंय रावंक गेलो. तेन्ना सावन गवर्नर वा व्हायसरॉय तेच पालासींत रावपाक लागले. आदिलशान बांदिल्ली पालास रिती उरली.

१५६० वर्सा इंक्विझिशन गोंयात हाडलें तेन्ना ताका सुवात जाय पडली. गोंय शारांतली ही सगल्यांत व्हडली वास्तू. पूण रिती आशिल्ली. ती इंक्विझिशनाक दिली. इंक्विझिशनान ती फाटल्यान वाडयली, जायते बदल केले आनी तेन्ना सावन ती 'इंकिजिसांवाची पालास' जाली. पुर्तुगेज तिका 'सांता काझ' म्हळ्यार 'पवित्र घर' म्हणटाले. थळावे लोक मात भिरांतीन इंकिजिसांव हे उतर टाळटाले आनी ते वास्तूक 'व्हडले घर' म्हणटाले.(व्हडलें घर, पा.क्र. १८). जाका त्या वास्तूकडल्यांन ज्या तरेचो अणभव येता त्या नदरेंतल्यान तो मनीस त्या वास्तु कडेन पळयता. पुर्तुगेजां खातीर ती पवित्र घर आसता जाल्यार थळाव्या लोकांखातीर ती मनांत भिरांत हाडपी भयंकर वास्तू जाता. कादंबरींत 'व्हडलें घर' प्रतीक जावंन येता धर्मसत्तेच्या अराजकतेचे. गोंयकार जांव फिर्गी, जो कोंण इंक्विझिसांवाच्या मुखेल्याक जांय तसो वागना, तो केन्ना ह्या व्हडल्या घराचीं सोपणां चडपाक लागता हेंच ताका कळना.

'व्हडलें घर', 'भावार्ताचे कर्तूब' हांचेकडेन संबंदीत जे प्रसंग कादंबरींत आयल्यात ताच्या चित्रणांत खंयच कृत्रीमपण जाणवना. लेखकाच्या म्हणण्याप्रमाण कादंबरींतलें व्हडलें घर, तेंकून आशिल्ली बंदखण, ते बंदखणींतल्यो कुडी, कैद्यांक दिताले तें जेवण, बंदखणींतल्यो रिती, न्याय मंडळाचें साल, इंक्विझिटरां मुखार जाताली ती तपासणी आनी 'आव्तु द फॅ' हांचे विशींची वर्णनां लेखकान डॉ.चार्ल्स दॅलाँ हांच्या अणभव-कथनांतल्यान घेतल्यांत. ह्या खातीर ही वर्णनां कृत्रीम

## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| | राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| | नामो | : २०१ -बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. | संपादपी | : आसावरी नायक |
| | राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| | नामो | : २०१ -बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**
उजवाडावपी

दिसनात.

'व्हडलें घर' ह्या कादंबरीतलीं पात्रां आनी घडणूकों प्रातिनिधीक आसात. फिक्शनांपरस पावरफूल आशिल्ल्या फॅक्टांकडल्यान कथानकान आकार घेतिल्लो आसा. पात्रांच्या मनांतली घाल-मेल, उद्वेग, फ्रस्ट्रेशन, दाखयतना तांचे मनीसपण आमच्या मुखार जिवीत जाता. व्हडल्या घरांतल्या बंदखिणींतलो कायतान, मनांची घुस्मटमार भोगपी ताची घरकान्न पियेदाद हांच्याकडेन संबंदीत प्रसंगांनी आमकां तें जाणवता.

लेखकाच्या भितरलो कवी अर्दी-मर्दी मुखार येतना मार्मिक गजाल सांगून वता. देखीक म्हाळू प्रभूली सून आपल्या बायेची फाट थापटीत एक गीत गायता. तिच्या खांदार तकली दवरून बाय आयकत रावता. आयकतां आयकतां-

*बाय न्हिदलें*
*गीत थांबले*
*बायेल्या पांयार*
*एक दूक गळ्ळे...* (व्हडलें घर, पा.क्र.१६४)

तशेंच कादंबरीच्या शेवटाक येवपी ह्यो ओळी काळजाक हालोवन उडयतात.

*आज सांत लाजार मळार*
*सगले शांत........शांत...*
*त्यो ऽऽ थंय तेरा राशी*
*गोबराच्यो......*
*काल हांगा*
*भावार्ताचो गोबोर जालो......* (व्हडलें घर, पा.क्र.२०८)

म्हाळू प्रभू, ताची सून वा मारी सारक्या पात्रांक लेखकांन चड स्पेस दिवंक ना. घडये म्हाळू प्रभू वा ताच्या सुनेसारक्या स्थलांतरीत गोंयकारांची वा भाटांतल्या तोल्लाची धूव मारीची कथा सांगपाक वेगळीं पुस्तकां बरोवचीं पडटलीं.

खरें म्हळ्यार जरी कायतान हो कादंबरीचें मुखेल पात्र आसलें तरी ह्या कादंबरीचीं सूत्रां इतिहासाच्या हातांत आसात हे लक्षांत येता. १५६६ ते १५८५ मदल्यो घडणुको कादंबरीचो केंद्र बिंदु जावन आसात. कादंबरीच्या अध्यायांक माथाळे नांत वा तांका अंक दिल्ले नांत जाल्यार कथानकांतलो प्रसंग ज्या काळांत घडटा ताचो उल्लेख वयर जाल्लो आसा, देखीक ५ ऑक्टोबर १५८३. काळाचो प्रवाह फाटी-फुडें वता तशें कथानक वर्तमान आनी भूतकाळांत वाचप्याक व्हरता. 'फ्लैशबॅक' शैलीचो बऱ्या तरेन लेखकान उपेग केल्लो आसा.

धर्माच्या नांवान अर्धमाचे होमखण पेटोवन सत्याक लासून उडोवपी प्रसंग कादंबरेतलो एक प्रभावी प्रसंग जालो. धर्मांतरा फाटलीं विंगड-विंगड कारणां दाखोवपी प्रसंग, थळाव्या पाद्रीं बरोबर फिंर्गी पाद्रींचो व्यवहार, फिदाल्गांची राजसी-भोगवादी जीण, इंक्विझिसांवांच्या नावांन लोकांक नाडपी धूर्त मनीस हांचे संबंदीत विंगड-विंगड प्रसंगांच्या माध्यमांतल्यान, प्रातिनिधीक पात्रां तशेंच प्रातिनिधीक घडणूकांचे चित्रण करतना लेखक जितलें जाय तीतलेंच उलयता. कादंबरीकार ताका ह्या कादंबरीतल्यान कितें सांगूक जांय ह्या बाबतीन एकदम स्पश्ट आसा हें दिसून येता. मुद्याक धरुन सशक्त भाशेंत, जितलें जाय तीतलेंच तो सांगता. मेजून उतरां वापरता आनी ह्या खातीर कादंबरीक एक 'कॉम्पेक्टनेस' येता.

इतिहासीक घडणूकांचो उल्लेख करतना चड रटाळ आनी शुश्क वर्णनां जायनांत हांचे भान लेखकान दवरलां. इतिहासीक घडणूकांविशीं म्हायती वाचता आसतना, कथानक फाटीं पडपाक लागलें काय अशें दिसपाक लागच्या पयलींच कथानक केंद्र सुवातेर येता. ह्या कादंबरीचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तीची वाचनीयता जांवन आसा. कादंबरेंत वैचारिकता आनी कलात्मकता हांचो मेळ घालून हाडपाक लेखक बरोचसो यशस्वी जाला अशें म्हणूं येता.

कादंबरींत खूपशीं पुर्तुगेज उतरां आयल्यांत. गांवपणा वेळार कुळकर्ण्यान बरयिल्ली थारावणी तशेंच 'काताकुमेन'च्या वेळार येवपी प्रार्थनेत त्या काळांतल्या कोंकणीचें खाशेलें रूप पळोवंक मेळटा. जाच्या हातांत सत्ता आसता, तो म्हण्टा ते सत्य जाता. तो म्हणत जाल्यार असत्य, सत्य म्हूण थयथयाट करता आनी सत्य लाचार जांवन असत्य म्हूण बंदखणींत यातना भोगता. काळाचे चक्र चालू आसता. धर्माच्या नावांन अधर्म करपी लोकांबद्दल कायतान म्हणटा, "आपूण बरो क्रिस्तांव न्हय जाल्यार बरो क्रिस्तांव कोण? आपणाचेर आळ घालून कागाळ केल्या तो फर्टींग? गवाय म्हूण येवन आनी मिसालाचेर हात दवरून धडधडीत फट उलयला तो मनीस? धर्माचे नांव घेवन अधर्म आनी अन्याय करतात ते इंक्विझिटर?" (व्हडलें घर, पा.क्र.१६६)

आमचो वर्तमान जसो जाल्लो आसा ताच्या फाटल्यान इतिहासांतल्यो घडणूको आसतात. आमकां जरी ताचो त्रास जाता आसलो तरी इतिहासांत जे घडलां तें आमी न्हयकारूंक शकनात. लेखक उदय भेंब्रे म्हण्टात, 'इतिहास जे मेरेन खरो आसा ते मेरेन तो बरो काय वायट असो प्रस्न उप्रासूंक फावना. इतिहास वायट वा दुखदिणो आसलो तरी तो पुसून उडोवंक येना. कांय जाणांक दिसता, दुखदिणो इतिहास उस्तून कित्याक काडचो? तो वायट हेतू मनांत धरून उस्तुचो न्हय हें खरें; पूण तो आमकां खबर आसप गरजेचें.' (व्हडलें घर, पा.क्र.१५)

इतिहासांतल्या चुकींतल्यान शिकून, वर्तमान बरो करपाच्या दिकेन फुडें वचत स्वस्थ भविश्याची निर्मणी करप हें आमच्या हातांत आसा.'व्हडलें घर' ही इतिहासीक कादंबरी गोंयच्या इतिहासांतल्या एका काळ्या पानांकडेन व्हरतनां, भविश्यासंबंदी आशिल्ल्या आमच्या जापसालदारकीची आमकां जाणविकाय करुन दीता. कोंकणी कादंबरीच्या विकासांत 'व्हडलें घर' हें लेखक भौमानेस्त उदय भेंब्रे हांचे एक व्हडलें पावल जांवन आसा हांतून कांयच दुबाव ना.



# कविता

## सांग गो केन्ना साखरपुडो

विजयाबाय सरमळकार

ओंठा ओठांत रंगला विडो
हांसता केसांत जायां पुडो
पडला पोल्यार लजे सडो
सांग गो केन्ना साखरपुडो ।।१।।

कारणाविण हांसती ओंठ
पालशी नदर चाबता बोट
सूर नुलयत देंवता गळ्यांत
रस्मी भाव फुल्ल्या दोळ्यांत ।।२।।

चालींत आयल्या हतया गती
चान्न्या शिंवर पुनवे राती
नदरे गोफीण मोखता गुंडो
सांग गो केन्ना साखरपुडो ।।३।।

दाखय लिपय करता गुपीत
बोटांकडेन चाळो करीत
मुदयेंतलो सांगता खडो
सांग गो केन्ना साखरपुडो ।।४।।

***

## म्हजी डायरी

ईशा लवंदे

म्हजी डायरी, म्हजी डायरी
सदांच खरी,
सामकी सोशिक..

भितर तिच्या
विंगड वेदनांचें
आयलें जरी वादळ,
भायल्यान ती आसा तशीच...

खोशयेंन पितारलीं
तिजेर चित्रां,
रागान जरी भिरकावन
याले तिजेर घाव,
भायल्यान ती आसा तशीच...

दूखाची - सुखाची
पानां तिचीं परतितना
म्हजीच म्हाका याद करुन दिवपी...
म्हजी डायरी
भायल्यान मात आसा तशीच.

संपर्क : 7620581317

***



## पावस - गीत

नूतन साखरदांडे

टप टप पावळी पावसाची
यादीर यादी जागयता
खोल खोल मना रानांत
छन छन मोर नाचयता

फांतोडेचेर पडटा पावस
बंदखणीचोच जाता भास
आकूळ पिकूळ चान्न्या राती
येवन म्हजें तो उशें भिजयता

मनांत मोगा यादी केळयत
येता जेन्ना दारांत पावस
कळटा म्हाका लिपिल्ले ते
काळजाचे घाय उसयता.

संपर्क : 9970445778

***

## फूल हांव पोरसांतलें

माधवी सरदेसाय.

फूल हांव पोरसांतलें
मोगा ताळयेर फुलिल्लें
वाऱ्या वांगडा धोलतालें
वोता वांगडा हांसतालें,
परमळ पियेवन मातयेंतलो
शेवण्या वांगडा गायतालें
फूल हांव पोरसांतलें...

अकस्मात घडलें कितें
कळना म्हका...
वोता वांगडा खेळपी वाऱ्यान
आयज ल्हवूच म्हाका विचारलें;
... पोरसांत तुज्या भोंवपाक ह्या
कोणाक विचारचें बी पडटलें...?
उडत, नाचत गावपी शेवण्यान
भियेत भियेत निमगिलें
मेकळेपणान गावपाक हांगा
कोणाचें परमिशन बी घेवचें पडटलें...?
जालां कितें ?
कळना म्हाका ...
मेकळेपणान व्हांवपी वारो
येना कित्याक पोरसा भितर?
शेवणीं कित्याक गायनांत गितां
वोताक कित्याक हांसूक येना?
फूल हांव पोरसांतलें...
वोत, वारो, शेवण्या वांगडा
खळखळून हांसतालें...
परमळून गायतालें...
पूण...
आयज घडलां कितें कळना म्हाका...
हांव ताळयेवेलें झडलें?
बावलें...? सुकलें... ?
काय,
जड कोणा पांया पोंदा
फुलचे पैलींच चिड्डलें?

***

